जाग प्रकाशनाचें
जाग
म्हयनाळें

वर्स ४५ : आंक ९ : मे, २०१९

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : | १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : | ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : | ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायले चित्र : निरुपा नायक
भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप.



Apr-19-9288 1A

# ‘द पॉइंट...’च्या संदर्भांत कोंकणी चळवळ

**दामोदर मावजो**

‘तत्वज्ञानी जाणवयांनी संवसाराची व्याख्या सांगून जाली. आतां मुद्दो आसा तो - ती व्याख्या बदलपाचो’ अशें कार्ल मार्क्स सांगता. इतलें सांगून युगांक नायक हांणी आपणाले कोंकणी चळवळीच्या ध्येय धोरणाविशींचे विचार प्रखरतायेन उकतायल्यात. ह्या विशयाचेर वेगळे तरेचो विचार पयलेच खेपेक मांडिल्ले खातीर युगांकाचें हांव अभिनंदन करतां.’

आज वेर कोंकणी चळवळीचें स्वरूप साहित्यीक आनी वैचारीक उरलें. तिका अधिभौतिकतायेचें अधिश्ठान दिवपाचो विचार केन्नाच फुडें आयलो ना. पुर्शी पावंड्यार कोंकणी लेखकांनी वावर जरूर केला. बिर्लाच्या जुवारी कॅमिकल्साक विरोध करप्यां मदीं रवीन्द्रबाब आघाडीचेर आसले. 'नायलॉन ६६' आड जाल्ल्या आंदोलनांत पुंडलीकबाब सक्रीय आसले. कोंकण रेल्वे दर्यादेगे लागशिल्ल्यान नाका म्हूण मागणी करप्यांत हांव फुडें आसलों. दत्ता दा. नायक हांणी समता आंदोलन चलोवपाक फुडाकार घेतिल्लो. कैगा अण्वीक प्रकल्पाक विरोध करपांत प्रशांत नायक आनी रत्ना दिवकार फुडें आसलीं. पूण कोंकणी चळवळी कडेन हो संबंद जोडूंक येना. विद्यार्थी आंदोलनांत दिलीप बोरकार, श्रीधर कामत, संदेश प्रभुदेसाय हांचें नेतृत्व लाबिल्लें. सोयरू वेळीप उटा आंदोलनांत वावुरले आनी श्रीधर कामत बांबोळकारांनी माकडमाऱ्यां खातीर आवाज काडलो म्हूण तांचें स्रय कोंकणी चळवळीक दिवंक मेळना. ते नदरेन युगांकान कोंकणी चळवळीचे हे त्रुटीचेर योग्य भाश्य केलां. अर्थीक घडामोडी वा समाजीक उठावांचो सांगोड आयज वेर कोंकणी चळवळी कडेन घालप केन्ना जालें ना. तसो विचारच कोणें केलो ना.



कोंकणी चळवळ ही फकत भाशीक चळवळ वा साहित्यीक चळवळ अशेंच लेखपी आमचे मदीं चड लोक आसात. म्हाका उगडास जाता, १९६९ त सुमार आसुंये - कोंकणी चळवळ निकतीच उबी जाताली. शिबिरांचें आनी बसकांचें आयोजन जातालें तेन्ना हांव समजतालों, 'हांव लेखक. म्हाका साहित्यकारण लागता, भाशाकारण लागना.' पूण एक दीस शंकर भांडाऱ्यान म्हजे कान धरले, तेन्ना म्हजे दोळे उकते जाले. ते उपरांत आनीक एक दिश्टावो म्हाका जालो तो म्हळ्यार साहित्यकारण आनी भाशाकारण हांचे परसूय श्रेश्ठ तत्व म्हळ्यार समाजकारण. पूण चळवळींतले सगलेच तशें मानिनात अशें ना. देखून समाजीक चळवळींतलो आमचो सगल्यांचो सहभाग हो भौशीक थारना आनी कोंकणी चळवळीचो वांटो जायना. तो फकत व्यक्तिगत पावंड्यार केल्लो वावर अशेंच समजुचें पडटा.

कोंकणी प्रजेचो आवाज स्थापन करपी लेखकच आसले. तेन्नाचे मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणेन कोंकणी विशीं काडिल्ले अनुदार उद्गार आनी कोंकणीची केल्ली अवहेलना सोंसणुके भायली जाल्ल्यान तिडकल्ले कोंकणी मोगी एका दिसाच्या उल्याक ओ दिवन दोनेक हजारांचे संख्येन पणजेंत एकठांय आयले आनी तांणी सचिवालयाचेर मोर्चो व्हेलो. संचारबंदी मोडली म्हूण देडेक हजार लोकांक अटक करून उपरांत सोडून दिले. कोंकणी मोगींचो हो उत्स्फूर्त प्रतिसाद पळोवन हे लोकभावनेचो राजकी फायदो उठोवपाचे नदरेन अनेक विरोधी पक्ष कोंकणी प्रजेचो आवाजाचे बोटीर चडले. उपरांतचो इतिहास सगल्यांकच खबर आसा. कोंकणी चळवळ कोंप्रआच्या आंदोलना पुरती राजकी चळवळ जाली. राजभास कायदो पारीत जालो आनी 'भटो भटो, आपल्यो वाटो' करीत सगले फापसले. पूण ते पयलीं कोंप्रआन राजकी पक्ष जावन राजकारणांत सक्रीय जावचें अशे तरेचो प्रस्ताव मुखार आयिल्लो. लोकांच्या मागण्यांनी तो आयिल्लो. माथानी साल्दान्य सारक्या इश्टांचो तेंकोय आसलो.

पूण पुंडलीकबाब आनी हांव दोगूय त्या मुडांत नासले. ५५५ दिसांच्या आंदोलनांत आमची सर्जक शक्त कशी खर्चाक पडली ताची जाणीव आशिल्ल्यान आमी आमची साहित्यीक किर्द राजकारणाक पुरायेन ओंपूंक तयार नासले. तरिकूय रवीन्द्रबाबाच्या आगऱ्याक लागून आमी एक मदलो मार्ग वेंचलो आनी उदयबाबाक पक्षीय राजकारणांत सक्रीय दवरपा खातीर तशेंच पक्षां भितर रावन कोंकणीचो प्रॅशर ग्रूप म्हूण वावुरपा खातीर आमी म्हळ्यार उदयबाब, पुंडलीकबाब, दिलीपबाब, दत्ताबाब आनी हांव धरून आनिकूय लेखकांनी काँग्रेस प्रवेश केलो. पूण दुर्दैवान ते फुडले वेंचणुकेंत उदयबाबा कडेन काँग्रेसीचें फुडारपण वचत हे भिरांतेन तांकां तिकेट दिवपा वेळार केल्लीं नाटकां आनी तत्वशुन्यांचे खोगीर भरतेंत आमचो घुस्मटमार जावन आमी भायर सरले. पूण कोंकणी चळवळ ही आमचे खातीर सदांच आस्मितायेची आनी संस्कृतायेचीच चळवळ उरली.

अस्तित्वाच्या संघर्शांतल्यान उप्रासपी मुल्यां समाज वेवस्थेचें मुळावण घालतात अशें युगांक म्हणटा तें सामकें खरें. हीं मुल्यां म्हळ्यारच आमचे संस्कृतायेचें अधिश्ठान. तरणे पिरायेचेर हांव कोंकणी चळवळी कडेन आकृश्ट जावपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार ही भेदभाव विरयत चळवळ आसली. पुंडलीकबाब, तानाजीबाब, प्रकाशबाब पाडगांवकार, हेय हे चळवळींत तितलेच खातीर रमूंक पावले. म्हाका आजून तीं वेलंगा वा पिलार जावपी शिबिरां घट्ट याद आसात. वेलंगा देवळाच्या प्राकारांत थंयचे भट-बामण रांदता-वाडटाले आनी पाद्रीं सयत आमचे जायते क्रिस्तांव भाव आसरमांडी घालून शिरतेर वाडिल्लें जेवण भुरकायताले. तशेंच, पिलारच्या शिबिरांत पाद्रीपण शिकपी भुरगे कायलींत तळिल्लें नुस्तें आगरो करून आमकां वाडटाले. देखून म्हजो भावार्त आसा की गोंयांतली सगळ्यांत चड सेक्युलर आनी पुरोगामी चळवळ म्हळ्यार एकमेव कोंकणी.

कोंकणी चळवळी कडेन राजकी व्हिजन नाशिल्लें अशें युगांकाक दिसता, ताचे कडेन मात हांव सहमत ना. तें आशिल्लें देखूनच कोंकणीन साहित्य अकादेमीची मान्यताय, राजभास कायदो आनी आठवे वळेरेंत सुवात जोडली आनी घटकराज्य झोमून घेतलें. चळवळ घाणली ती इतलींय जैता जोडले उपरांतच्या काळार. आदल्या काळार जेन्ना सम्राट पराज्यार घुरी घालून भूंय संपादन करताले तेन्ना जैत मनोवन थंड बसनासले; तर ते भुंयेचें पुनर्वसन करप आनी थंयच्या भूंयपुतांचो विस्वास संपादन करप हाचेर भर दिताले. तेन्नाच जोडिल्लें जैत सार्थकी लागतालें आनी थीर जातालें. अशे तरेचो भूंयपुतांच्या हितराखणेचो वावर फुडें व्हरपाक आमी उणे पडले खरे. हाचो अर्थ आमी हात कामरून बशिल्ले अशें कोणें समजुचें न्हय. इतिहास धवळून पळयल्यार कळटलें - 'नीज गोंयकार' वा 'गोंय हितराखण मंच' सारक्यो संघटना बांदून भूंयपुतांच्या प्रस्नाक हात घालपाचें काम मदीं मदीं हातांत घेताले - तोय कोंकणी चळवळीचोच वांटो आसलो. काँग्रेस वा इतर राष्ट्रीय पक्षांक गोंयचें आनी कोंकणीचें पडून वचूंक ना हें होलमल्लें तेन्ना रवीन्द्रबाबांनी फुडाकार घेवन 'लोकपक्ष' हो राजकी पक्ष स्थापन केलो. थळावे प्रस्न सुटावे जावपा खातीर थळावे पक्षच जाय हे भावनेंतल्यान केल्ल्या वावराक लोकांनी फाटच दाखयली. हाचीं कारणां सोदतां तेन्ना म्हाका जाणवता तें अशें - आमी एकाच वेळार अनेक विशय घेवन वावुरतात. आमकां गोंयकारांक मतांतराचो आदर करूंक कळना. ताका लागून एखादरो विशय दुसऱ्याक नाकसुरो गेलो की तो दुसऱ्याक दुस्मान लेखता. देखीक - एन शिवदास हो निश्ठावंत कोंकणी मनीस. पूण ताणें देवस्थानां ही विशिश्ट जातीचीं न्हय अशी भुमिका घेतली तेन्ना अनेक कोंकणी भक्तांनी ताका दुस्मान थारायलो. अशे वादविशय उप्रासतात तेन्ना मतभेद कुशीक दवरून कोंकणी चळवळ तटस्थपणान फुडें वता. पूण कांय 'गडे' कांय विरोधी मतांच्या गड्यांचेर रागारफुगार जावन कुशीक सरतात तेन्ना कोंकणी चळवळीची शक्त इल्ली इल्ली उणी जाता. तातूंत आनीक एक गजाल घडटा - कोंकण रेल्वे, मोपा विमानतळ वा शिक्षणाचें माध्यम सारके वादविशय तकली वयर काडटात तेन्ना आमी बेगोबेग तांकां जाती-धर्माक व्हरून तेंकयतात. आनी हें करपी कोण? जांची कात खरवडल्यार जातवाद दिश्टी पडटा अशेच लोक. मतांचो हिशोब मांडपी वा सुवार्थाचें राजकारण खेळपी फुडाऱ्यांक तें बऱ्याक पडटा. मागीर लोकूय त्या विशया कडेन जाती-धर्माच्या वक्लींतल्यान पळयतात. कोंकण रेल्वेच्या मार्ग बदलाक म्हजो तात्वीक विरोध आसलो. तेन्ना एका पणजेकार इश्टान भुजवण दिल्ले वरी म्हाका म्हळें - 'तुजी अडचण म्हाका समजता. क्रिस्तांव गांवांत रावता म्हण्टकच तुका तशी भुमिका घेवची पडटा.' अशे तरेन कोणूय विचार करता हें हांवें केन्ना येवजुंकच नासलें. म्हज्या प्रामाणीक हेतुचो कोणेंय दुबाव घेवप हो म्हजो अपमान अशें म्हाका दिसलें.

मतभेद आसुनूय इश्टागत राखून दवरूं येता हाचींय उदाहरणां म्हजे कडेन आसात. कोंकण रेल्वे प्रस्नाचेर हांवें घेतिल्ले भुमिकेक विरोध करप्यां मदीं खासा उदयबाब आसलो. हांवें म्हजी भुमिका मांडटकच त्याच पत्रांतल्यान म्हगेले मुद्दे खोडून विरोधी मत उक्तावपी उदयबाबां कडले म्हजे इश्टागतीचे संबंद केन्ना इबाडले नात. अनेक प्रस्नांचेर आमचीं मतांतरां आसलीं तरी कोंकणी चळवळीक ते मतभेद आड येनात. विष्णू सुर्या वाघ हांचे कडेन तर म्हजे सदांच वाद जाताले. ते पुर्शी पांवड्यार केन्ना देंवले नात. पूण विष्णू मात कोंकणी चळवळी कडेन परस्थ नदरेन पळयत रावलो. पुंडलीक नायकां सारके ताचे इश्ट आसून लेगीत. कोंप्रआक जशें पुंडलीकबाबालें नेतृत्व मेळ्ळें तशें जर कोंकणी चळवळीक विष्णु सुर्या वाघाचें राजकी नेतृत्व मेळिल्लें जाल्यार युगांक म्हणटा तशी कोंकणी चळवळ गोंयचें फुडारपण करूंक पावतासली.

कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांनी सदांच पुरोगामी विचारांक अहमियत दिली. जातकात पळोवन चलयिल्ली जाल्यार ती भोवजनां मेरेन पावचीच नासली. दुर्दैवान, विलिनीकरणाचो अंतस्थ हेतू घेवन गोंयां पाविल्ल्या महाराष्ट्री फुडाऱ्यांनी जातींच्या नांवान चलपी महाराष्ट्रांतलें राजकारण गोंयां हाडलें. भौसाक जाग हाडली हें मान्य करूंक जाय. पूण गोंयच्या भौसा कडेन वैचारीक बसका आशिल्लें फुडारपण उपलब्ध नाशिल्ल्यान महाराष्ट्री नेत्यांचें फावलें. खरें

म्हळ्यार, गोंयची मराठी चळवळ सदांच तथाकथीत वयल्या जातीच्याच हातांत आसली. कोंकणी हेंच भौसा खातीर अभिव्यक्तीचें प्रभावी माध्यम आसलें. पूण मराठीचो आगरो धरिल्ल्यान वयल्या वर्गाचें फावलें आनी भौसाची जीब लुळी पडली. भाऊसायबांच्या हातांत गोंयचें राजकारण वचप गोंयचे नदरेन खूब भाग्याचें आसलें. पूण भाऊसायबान तेन्ना विलिनीकरणाचो आनी मराठीचो पाखो घेतिल्ल्यान कोंकणी चळवळीन तांकां पोटतिडकीन विरोध केलो. विलिनीकरण म्हळ्यार परावलंबन आनी कोंकणीक कुस्कुटावन मराठीक वेंगावप म्हळ्यार अभिव्यक्तीचेर मर्यादा घालून घेवप हो विचार भौसांतल्या नव्या दमाच्या आनी पुरोगामी विचारांच्या तरनाट्यांक होलमलो. पूण ते तरणे पिळगेचो आवाज बुलंद जावपाक दसक उलगलें. तो मेरेन कोंकणी ही वयल्या वर्गाची आनी क्रिस्तांवांची आनी 'मराठी ही भौसाची' ह्या विचारान मुळां धरिल्लीं. 'महाराष्ट्रवादी' हें बिरुद लावपी पक्ष भौसाक आपलो दिसतालोच ताचें मुखेल कारण म्हळ्यार हो पक्ष भाऊन स्थापन केल्लो. आयज त्या पक्षाचें नेतृत्व भौसा कडेन ना. भौसान रगत शिंपून पुरुशार्थान उबारिल्लो हो पक्ष वयल्या वर्गाच्या नेतृत्वान आपल्या हातांत घेवन भौसाक खुंटो दाखयलो. आनी पक्षाचें धोरण ह्या नांवान वयल्या वर्गाची भास राजभास जावची म्हण तीन वेळा खासगी विधेयक पारीत करून घेतलें. हें जावंक पावलें कोंकणी चळवळ दुबळी पडली देखून.

जेन्ना साहित्य गिरेस्त जावचें हीच मोख आशिल्ले वरी कोंकणी साहित्य परिशदेचो वावर चलूंक लागलो तेन्ना म्हालगड्यांक एक गजाल होलमली. साहित्याचो वावर फुडें व्हरपाक संमेलनां जातातच. पूण समाजीक प्रस्न सोडोवपाची गरज वळखून कोंकणी नेतृत्वान तरण्या गड्यांक सांगाताक घेवन परिशदेची घटना बदल्ली. 'कोंकणी साहित्य परिशद' ह्या नांवांतलें 'साहित्य' हें उतर काडून उडयलें. ह्यान फुडें कोंकणी परिशद ही संस्था गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी मुंबयचे कोंकणी जनतेच्यो समाजीक समस्या उकलून धरतली अशें थारलें. पूण मागीर हो परिशदेचो वावर हे दिवाळेक ते दिवाळेक असो जालो. समाजीक मळार वावुरपी नेतृत्व चळवळी कडेन ना हें खरें. खणी, पर्यटन, रोजगार, शेतकामत, सेवा वेवसाय हीं मळां सरसामान्यांक चड बादतात हें खरें. पूण तो वावर कोंकणी चळवळीन हातांत घेवप शक्य आसा व्हय? शक्य करतले जाल्यार कोंकणीचें सरकार झुटयेर हाडचें पडटलें. पूण अशें 'कोंकणीचें' म्हण सरकार आसप समा व्हय? सरकार हें हिंदुंचें, मुस्लिमांचें वा क्रिस्तांवांचें अशें आसचें न्हय अशें आमी मानतांव जाल्यार तें कोंकणीचें अशेंय आसचें न्हय अशें म्हजें मत्त. तरिकूय हें शक्य आसा जर कोंकणी चळवळ सर्वसमावेशक जाती-समेस्त गोंयकारांनी तशी मानून घेतली - जाल्यारच. पूण सद्याचे परिस्थितींत तरी, तें शक्य ना अशें मानून, जें येता तें सरकार कोंकणीक अनुकूल उरचें इतलीच अपेक्षा बाळगून कोंकणी चळवळ फुडें वता अशें चित्र आयज दिश्टी पडटा.

फाटल्या तीस वर्सांत जे मुखेल मंत्री फुडें आयले तातूंत कोंकणीचे विरोधक अशे चडशे नाशिल्लेच पूण कोंकणी राजभास कायदो कारवायेंत हाडपाक जी राजकी इत्साशक्त फावो ती उणी पडिल्ल्यान आजून अदींमदीं मराठीवाद तकली वयर काडटा. आनी कोंकणीक विरोध आसा अशें धरून ह्या विशयाचेर मोनेळ बाळगिल्लो बरो अशें लेखपीच मुख्यमंत्री आमकां चड मेळ्ळे. मनोहर पर्रीकार तर आपूण कोंकणी कडेन बांदिल्लो आसा अशें उकतेपणान सांगताले. पूण झुटयेर येतकच तांणी कितें केलें? वयल्यान उदयबाबां सारक्या कोंकणीवाल्यांक बुद्द शिकोवपाच्या हेतून रोमी-नागरी मदीं धोशी वाडटल्यो अशी तजवीज केली. ते पयलीं दिगंबर कामतींनी तरी कितें वेगळें केलें? कोंकणीय नाका, मराठीय नाका अशें म्हणीत इंग्लीश माध्यमाक वाट उकती केली. सार्दिन्यान तर एक फावटी म्हाका स्पश्ट सांगिल्लें - कोंकणीक राजभास केली न्हय आमी? आतां आनी कांयच मागूं नाकात - कारवाय लेगीत. प्रतापसिंग राणे तर पयलीं थावन इंग्लिशवादी. आतांय म्हण कितें? मराठीच्या नांवान हिंदू भौसाक आनी रोमीच्या नांवान क्रिस्तांवांक खुबळावप आनी असुदाय आपली राजकी पोळी भाजून खावप. उत्तरेंत वतकच मराठी आनी दक्षिणेंत पावतकच कोंकणी म्हणप असलीं नाटकां चलतात. आनी तीं पळोवन वगी रावपी संवंगांच कोंकणी चळवळींत चड.

उत्पादन संसादनां आजून मेरेन वयल्या वर्गाच्याच हातांत देखून भौस पेट्न उठ्ठा पूण भौसाक विकल्प दिवपी नेतृत्व दिश्टीक पडना हो युगांकाचो मुद्दो भोव म्हत्वाचो. गोंय मुक्ती पयलीं वा तुरन्त उपरांत गोंयच्यो सगल्यो समाजीक, अर्थीक आनी संस्कृतीक चळवळी मुखेलपणान सारस्वतांच्याच हातांत आसल्यो. तेच भांडवलशाय चलयताले. गोंय मुक्ती उपरांत जाल्लो शिक्षणाचो प्रसार आनी वेंचणुकां वरवीं भौसाक सरकारांत मेळिल्लें प्रतिनिधीत्व हाचो लाव भोवजन समाजाक खातरीन जालो, म्हणून भाटकारशाय सोंपली अशें जालें ना. सरकारांत भौसाचें प्रतिनिधित्व करपी इतले लोक आसात, पूण भौसाचीं कसलीं कामां करतात? पुंडलीकबाबांल्या 'एका जुंव्यार जंय' नाटकाची याद जाता. बदल घडोवपाक फुडें सरिल्लेच वेवस्थेचे वांटो जातात. मंत्रीपदां भोगूंक जाय पूण भौसा खातीर वावुरपाक नाका, अश्या लोकांचेर पातयेवप कशें? भौसाचे प्रतिनिधी प्रॅशर ग्रूप कित्याक तयार करिनात? पर्रीकार-ढवळीकार-सरदेसाय त्रिकुटाक कोणें माथ्यार घेतले? खणी, उद्देग, नुस्तेंमारी, पर्यटन, येरादारी, सेवावेवसाय हांचेर शेक गाजोवपाक मेकळीक कोणें दिली? दोंगर, उदकां आनी शेतजमनी हांचेर मालकी हक्क गांवकारीचो आसलो. आयज खणीचे मालक 'खण-अवलंबीत' नांवाची एक जमात जल्माक घालून जें आंदोलन चलयतात तें कोणाच्या हिता खातीर? गोंयचीं शेतां, उदकां, जमनी, खणी, नुस्तेंमारी हांचेर खरें नियंत्रण जाय आसलें तें लोकांचें, भौसाचें. मागीर सरकारांतले आमदार-मंत्री कल्याण करूंक भायर सरल्यात तें कोणाचें? तांकां जाप विचारपी कोणच नात कशे? काय हेंय नेतृत्व सारस्वतां कडल्यान येवचें म्हण वाट पळयतात? आयज खरी गरज आसा ती भौसांतल्यान वयर सरिल्ल्या नेतृत्वाची.

संवसारीकरणाचे व्हाळटेंत उद्देग आनी वेवसायांच्या मळार

आकांताचे बदल घडल्यात आनी घडटात. फुडाराचो वेध घेवन अनेक लोक उद्देग-धंदो-नोकरे निमतान संवसार भर पातळ्ळ्यात. भौस शाणो जाल्ल्यान आदले वरी पिळून काडूंक मेळना म्हणून वा गोंयांत फावो त्यो संदी मेळनात म्हणून म्हणात - वयलो वर्ग व्हडा प्रमाणार गोंयां भायर पावला.

अशे संदेचो लाव भौसान घेवन गोंयच्या समाजकारणाचेर शेक गाजोवंक जाय आसलो. तशेंय घडिल्लें दिश्टी पडना. कोंकणीचेर इंग्लीश हावी जाता ताचेंय कारण हेंच. वयलो वर्ग इंग्लिशीक वेंगावन फुडें वता तें पळोवन भोवजन समाजय कोंकणीक फाट करूंक लागला. मागीर कोंकणी चळवळीचो फुडार किते? खरें पळोवशी जाल्यार भौसान 'नाका आमकां तुमची मराठी; आमची भास कोंकणी- आमी उलयतात ती कोंकणी' अशें धमकावन सांगपाची गरज आसली. मागीर कळटलें कोणाक नाकसुरें वता तें. झक मारीत मानून घेवचें पडटलें सगल्या वाद्यांक. जो मेरेन कोंकणी चळवळ भौसाच्या हातांत वचना तो मेरेन ती सर्वसमावेशक जावची ना. कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांनी हो वावर जाणीवपुर्वक केल्लो. पूण दुर्दैवान ताका फावो तसो प्रतिसाद न मेळिल्ल्यान तो पुरायेन फळादीक जावंक पावलो ना.

आयज वेर कोंकणी चळवळीन म्हत्वपूर्ण जैतां जोडलीं. तीं राजकी नदरेन मोलाचीं आसलीं. पूण समाजीक नदरेन तिची अर्थपूर्ण जोड म्हळ्यार युवा महोत्सव आनी नाटक महोत्सव. तितले मजगतीं साहित्यीक चळवळूय नेटान फुडें वचत आसा. 'भौसाच्यो वेदना मांडपी साहित्य निर्मिती आमचे कडेन जाता काय किते?' असो एक प्रस्न युगांकान विचारला. जो कांयच साहित्य वाचिना ताका ह्या प्रस्नांतच जाप मेळटली ती 'ना' अशी. पूण खरेपणीं तशें न्हय. भौसाचे प्रस्न भोव कलात्मक रितीन कोंकणी साहित्यांत मांडिल्ले मेळटात. शशिकांत पुनाजीन पेडणेचे शैलींत शबय घालीत -'शबयचां बावलां तारी कडेन पावलां... अशां गायत, गांवा वयले चार पोर... शिगम्याची शबय मागीत... तेंचे डबुलेंत एक आणो... एक आण्याच्या वांट्याक चौगूय झगडांक लागले... लडामुण्डी जाली... आणो खडेनतरी उसाळ्ळो... तो ते आतां सोदतात' अशे प्रतिकात्मक भाशेंत भौसाची आवतिकाय दाखयल्यात. दुर्दैव, वाचकांचो फावो तसो प्रतिसाद गावना. दोंगराच्या मुळसांतले आदिवासी भुरगे शिकल्यात. तांकां सूर गवसला. पोब्र फेर्नांदीस ह्या कवीन आपणाले बोलयेंत कविता रचल्यात - 'आम्गे चेडे कितू हुशारू/ चोच्या दिसताय भांगाराचे बोलु/ कोण ना मांदार कोत्तो तेंकां सोन्नु मुखारू/ तुका पसून कोत्तो आम्गे चेडे कुमसारु'. हे आदिवासी उत्फर्के फकत कोंकणी कवितेंतच वाचूंक मेळटात. आनी श्रीकांत पालसरकार आपणाले मातये कडेन कसो प्रमाण जाता पळयात - 'हे रुखा, हे रुखा/ पानां तुजीं उकडून खालीं/ दीक मारून दुख सारली/ पाळां तुजीं झरोन पिलों/ ताळयो मारून वट्टां केलीं...' रुख हें भौसाचें प्रतीक लेखून कवी फुडें उतर दिता, '...तुजीं पाळां मुळां जपतलों/ कुळी कुळी राखतलों/ हेंच म्हजें वचन तुका...' आनी प्रकाश पर्येकार भौसाचे आवतिकायेचेर भाश्य कशें करता? - 'रान वाडलें, रान वाडलें/ झाडाचें एक पान झडलें/ पाना पानार केंण झडलें... हुमल्या-सुकण्यांचे घोंटेर पेटले/ मुयां-तुमशाडांचीं मालीं पेटलीं... सोंशे पेटले, मोर पेटले... झरीचें उदक लेगीत पेटलें... ह्या रानाक पळोवन आमचीं काळजां आतां केन्ना पेट्टलीं गा?' रामनाथ गावडेली 'तळाचो फातोर' किते वेगळें सांगता तर? भौसाचे उमाळेच उलयता. सांगचें म्हणल्यार - भौसाची वेदना साहित्यांत झळकना हें खरें न्हय. उणो पडटा तो वाचक. 'सुदीरसुक्ता'चेर विंगड विंगड प्रतिक्रिया आयल्यो. बरें जालें. वाद जाता तेन्नाच साहित्य चड वाचकांच्या हातांत पावता. ह्या वादा निमतान अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचेरूय चर्चा जाली. हांवें एक पळयलें - कोंकणी चळवळींत 'आमी' आनी 'ते' हे भाशेनचो 'अदरींग फॅक्टर' आसूं येता अशें म्हाका सपनांतूय दिसूंक नासलें. तो ना म्हणून तर ही चळवळ हेरांनी देख घेवपा सारकी अशें हांव आनी इतर लोक मानीत आयल्यात. पूण सुदीरसुक्तान भौसाची ही वेदना खरसाणीन मांडली. 'सुदीरसुक्ता'क लागून कोंकणी चळवळी कडेन विष्णु भशेन पळोवपीय लोक आसात आनी ते नगण्य न्हय हाचीय जाण खूब जाणांक जाली. ह्या निमतान कोंकणी चळवळीन आनीक एक मेट हुपलें अशें म्हणूंक जाय. 'द पॉइंट...' लेखांतले कांय मुद्दे भोव म्हत्वाचे आसात. कोंकणी चळवळीची रचनात्मक बांदणी जाली ना हें खरें. पूण ते नदरेन येत्न जाले नात अश्यांतली गजाल न्हय. आनी हाचे फुडें ती जावची ना अशें लेखपूय योग्य न्हय. कलेच्या, खेळाच्या, शिक्षणाच्या मळार व्हिजन आशिल्ले लोक वावुरतात. प्रसाद लोलयेंकार, प्रशांत नायक, उदय गांवकार, प्रकाश वजरीकार हे आमची अपेक्षापुर्ती करतात. ते भायर पूर्णानंद चारी, प्रकाश पर्येकार, हनुमंत चोपडेकार, राजय पवार, नित्यानंद नायक अश्या एका परस एक निश्ठावान मनशांच्या हातांत शिक्षणाचो सुगुर्वो दिश्टी पडटा आसतना आमी निर्शेणेचो सूर लावप म्हळ्यार आमचें पडमूरपण जातलें. तेन्ना ह्या मळार शीण काडपा सारकी आवतिकाय ना. पूण शीण काडपाची आमची सदची संवंय. म्हाका उगडास जाता- बेंगळुरांत एके कोंकणी मोग्यांचे बसकेंत कांय मंगळूरकारांनी शीण काडिल्लो. 'तुमी गोंयकार मंगळूरकार क्रिस्तांवांक सदांच फाटीं ओडटात. अकादेमी, ज्ञानपीठ ह्या संस्थांतलीं पदां आपूणच घेवन बसल्यात...' म्हजे वांगडा जयंती नायक, जे. बी. मोरायश बी आसलीं. अजाप म्हळ्यार मोरायशबाब कांयच उलयलो ना. तेन्ना जयंतीनच तांच्या लक्षांत हाडून दिलें, ज्ञानपीठाचे सल्लागार समितीचे अध्यक्षच आसले जे. बी. मोरायश. उलयतल्यांचीं तोंडां पडलीं. योग्य मनशांच्या हातांत सुत्रां वतात तेन्ना आमकां आनंद जावपाक जाय. मागीर ताची जात, धर्म पळोवचो न्हय. पूण ती व्यक्ती जर एखाद्र्या समाजाच्या विरोधांत वावुरता आसली जाल्यार तिची शेंपडी चेंचावंकच जाय.

क्रिस्तांव समाज कोंकणी पसून पयस गेला हें पुर्ण सत्य न्हय. खूब सो लोक संभ्रमीत आसा, हें खरें. विलिनीकरणा वेळारय गोंयकारांचें अशेंच जाल्लें. हाचें खरें, काय ताचें? असो प्रस्न पड्टालो, आयजय

(पान ८ चेर)

# सान्तिनेझ खाडयेच्या देगेर

डॉ. संगीता सोनक

धों पर भर उदकांतल्यान गंगव्वा घरांत भितर सरलें. घरांत सगळें सामान हे वटेन ते वटेन पडिल्लें. घरांतल्या सामानाची अशी पसरो कशी जाल्ली दशा पळोवन गंगव्वाक खूब वायट दिसलें. तीस वरसां पयलीं तें बेळगांवच्यान गोंयां आयिल्लें. तेन्ना सावन तें सान्तिनेझ रावतालें. सान्तिनेझच्या उदकाच्या व्हाळाचें तडेरच ताचें घर आशिल्लें. व्हाळाचें उदक फुडें एके खाड्येक मेळटालें. हय, खरें तर ही एक खाडी. पूण कांय कारणां खातीर हाका खाडी म्हणपाक लोक फाटीं सरतात. दर्यादिगेक लागपी कायदे लागू करून खाडयेचे देगेर आशिल्लीं सगळीं घरां आनी व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो सरकारान मोडून वडयल्यो जाल्यार?

भुरगेपणांत हांगा खूब मस्तेपणां केल्लीं. ह्या उदकांत तेन्ना ताचो बापूय नुस्तें गरयतालो. ताचे गरयेक कितलेंशेंच नुस्तें लागतालें. तेन्ना गोंयांत तशें नुस्तें घे म्हण पड्टालें. रांपणीक, मानशेक, शेतांत नुस्त्याक खंयच कमी नाशिल्ली. सान्तिनेझच्या व्हाळांतय खूब लोक नुस्तें गरयताले. शेवटे, कालुंदरां, खांपी, पालू हें तर मेळटालेंच मेळटालें. मागीर मागीर फकत सांगटां मेळपाक लागलीं. आतां तर तीं सुद्धा मेळनात. थिगूर मात केन्ना केन्ना दिसतात. व्हाळांत खूब आसात. त्या व्हाळाचें उदक आता इतलें म्हेळें जालां की ताका सगळे नालो म्हणपाक लागल्यात. नालो म्हणटकर लोकांक तातूंत कचरो उडोवपाक कांय चूक दिसना.

आल्तिनोच्या दोंगरा वयल्यान उदकाचो घोगो सकयल पड्टालो थंय एक कोंड तयार जाल्ली. तिका 'थिगूर बांय' अशें म्हणटालीं. थिगूर बांय गंगव्वाच्या घरा लागींच आशिल्ली. चले भुरगे आनी तरणाटे हे बांयंत पेंवताले. पावसांत तर हांगा खूब भुरगीं पिकनीक करतालीं. दर वर्सा २४ जून ह्या दिसा हांगा सांजांव फेस्त जाताले. लागीच आशिल्ल्या झाडांचीं पानां-फुलां तोडून केल्लीं कपेलां तकलेक बांदून लोक उदकांत उडी मारताले. सांजांव फेस्त गोंयांत मनयतात तशे आनी खंयच मनयनात. हाचे फाटल्यान एक काणी अशी सांगतात की सॅन जुआँव (सेंट जॉन) पोटांत आशिल्लो तेन्ना जेजूची आवय मेरी ताच्या (सॅन जुआँवाल्या) आवयक मेळपाक आयली. मेरीच्या पोटांत तेन्ना जेजू आशिल्लो. ही खबर मेरीन सॅन जुआँवाली आवय एलिजाबेथ हिका सांगली. ही खबर आयकना फुडें जुआँवाक खूब खोस भोगली आनी खोशयेन ताणे आवयच्या पोटांत उडी मारली. हो दीस जावन आसलो २४ जून. सॅन जुआँव हांची याद करपाक ह्या दिसा गोंयांत सगळ्याक कांय लोक उदकांत उडी मारून हो दीस मनयतात अशी काणी जाणटेले सांगतात.

हांगाच्यान म्हणजे थिगूर बांय कडल्यान सान्तिनेझचो व्हाळ सुरू जातालो. हाका फुडें थोडे फांटे फुटिल्ले. एक मडवळघाट हांगा आशिल्लो. पणजेचेच न्हय, पणजेभायलेय कपडे हांगा धुताले. पुर्तुगीज मुस्तींतली एक आरमोरी आजून हांगा आसा. आनी थोडें फुडें वतकर कामरा भाटांतल्यानय उदक येवन ह्या व्हाळाक मेळटालें. पयलीं हांगा तालीगांव न्हंय व्हांवताली अशे कांय जाणटले सांगतात. आतां मात थंय फक्त सान्तिनेझ खाडयेचो एक व्हाळच उरला. मेडिकल कॉलेजा कडेन ही खाडी मांडवीक मेळयली. तशेंच काम्पालार इंडोर



स्टेडियमा कडेनय हाचें उदक मांडवींत वतालें. आवयन हांडीर मारिल्ल्या भुरग्या भशेन दोन पांय दोन कुशीन पसरावन ही खाडी मांडवीक मेळयली.

कांपाल पावतकच ह्याच व्हाळाक कांपाल खाडी अशेंय म्हणटाले. मांडवीच्या खाऱ्या उदकाक हांगा पणजेचें सावें उदक मेळटा. दर्या लागीं आशिल्ल्यान भरतेच्या उदकाक लागून हे खाड्येचें उदक बरेंच वयर लेगीत खार जाता. माड, पणस, आंबे अशीं कितलींशींच झाडां हांगा देगेर आजून दिसतात. तेन्ना तर आंबे, तोरां व्हाळाच्या उदकाक तेंकतालीं. माडांची लागवड तडेर खूब कडेन दिसता. खंय खंय बोर आनी जांभळय दिसता. खारफुटीय खंय खंय खाड्येचे देगेर आजून उबी रावल्यांत.

थिगूर बांय कडेन व्हडलीं व्हडलीं झाडां पळोवन आजूनय थंय एक सुंदर रान आसा कशें दिसता. कितलेशेच रूख हांगा पळोवंक मेळटात. हांगा आशिल्ले थोडे सायले गिमांत सामके फुलून येतात. रुमडाचेर सुकणीं घेटिर करतात. पूण हें जंगल चड तेंप उरचें ना. थंयीय आता व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो मडवळ घाटा पर्यंत पावल्यात. वालीस भाट आनी भाटांतलीं झाडां-पेडां केन्ना सोंपलीं. कितलींशींच झाडां मारून उडयलीं. थोडे माड मात आजून भाटांत दिसतात. काम्पालार कांय वर्सां पयली हात्याचें रान आसतालें. त्या हात्याचो घमघम आजून गंगव्वाच्या नाकांत आनी मनांत भरून आशिल्लो.

तडेर झाडां आनी झाडां पोदा लागींच व्हाळाचें उदक. व्हाळाच्या उदकांत नुस्तें आनी झाडांर इल्ली इल्ली शीं फळां. सुकण्यांचें सामकें फावतालें. तरेकतरेचीं सुकणीं हांगा येतालीं. धवीं धवीं बकीं, तशींच आनी कितलेशेच तरेचीं बकीं, कबुत्तरां, पाचवे पारवे, मेस्त, पाणकावळे, पाणकोंबड्यो, जाकाना, कोकीळ, लावे (ओरीओल), साळोऱ्यो, चिमण्यो, किरकिरे (किंगफिशर), बाया, बुलबुल, सनबर्ड, रॉबीन, दोन-तीन तरेचे पोपट (कीर), अशीं कितलींशीच शेवणीं सांतीनेज खाड्येर आशिल्ल्या झाडांचेर दिसतालीं. हातुंतलीं कांय फळां खावपाक येतालीं तर कांय नुस्त्यांक.

निळे निळे ल्हान किरकिरे सदचेच. बक्या चोंचीचे व्हडले किरकिरेय येताले. धव्या गळ्याचे किरकिरे सत्रे कडल्या सांकवार बसताले. तशे एकूण सुमार बारा सांकव खाड्येचेर आशिल्ले. सांतिनेजच्या मुखेल रस्त्यार म्हणजे कला अकादमी कडेन वचपी रस्त्यार आशिल्ल्या सत्रे कडल्या सांकवार काळ्या-धव्या पट्ट्यांचे (pied kingfisher) किरकिरेय बशिल्ले आसताले. अशे तीन चार तरेचे किरकिरे झाडाच्या तेंगशेर बसताले. नुस्तें दिसलें की उदकांत बुडी मारून चोंच घालून नुस्तें धरताले. पोपट्य तीन-चार तरेचे दिसताले. तांबड्या मुदयेचे, तांबडो गुंज तकलेचे, व्हडले निळसर शेपटी आशिल्ले एलेक्झेड्रायन कीर अशे तीन-चार तरेचे पोपट तड्ये वयल्या झाडांचेर येताले. तांबड्या मुदयेचे पोपट चार-पांच एकठांय जावन माडांचेर दिसताले. मेस्तांची जोडीय झाडांचेर, केन्ना पणसांचेर गरे खातना तर केन्ना माडांचेर दिसतालीं.

शियांच्या तेंपाक वयल्या घाटांतलीं सवणीं सकल देंवतालीं. लावे तर नोव्हेम्बर जायना फुडें दिसपाक लागताले. फेब्रेर-मार्चांत झाडांचेर हांच्यो उड्यो खूबच वाडटाल्यो. भांगरा कोराचे सोबीत लावे पाचव्या पाचव्या पानांनी एकदम खूब उठून दिसताले. जुलय, ऑगस्ट, सप्टेंबर ह्या म्हयन्यांनी पाचवें पारवे फळां खावपाक येताले. वीस पंचवीस पारव्यांचें भिरेंच येतालें. तें हळू बारीकशी शिवोणी घालतालें. उडटना पांखाटो फुलयतकर तांचो भितरले शेपटेचो केसरी रंग कितलो सोबीत दिसतालो. ल्हान ल्हान झोंपां-झुडपांनी घेटिर करून कांय सुकणीं तांतयां घालतालीं.

गंगव्वा गोंयांत रावपाक आयिल्लें तेन्ना हांगा खाड्येचे देगेर मनशांची वस्ती चड नाशिल्ली. ताका थंयच्याच एका घरांत रोकडेंच काम मेळिल्लें. हळू हळू हांगा ताचेच भशेन आनी लोक येवपाक लागले. ताच्या गांवांतल्या आनिकय खूब लोकांनी हांगा आपल्यो खोंपट्यो उबारल्यो. देगेकच व्हाळ आशिल्ल्यान कितलींशींच कामां सोंपीं जालीं. चोव्वीस वरां व्हांवतें उदक मेळटालें. घरांतलो कचरो तातूंत उडोवपाक मेळटालो. दिसाचीं सगळीं कामां थंयच करपाक जातालीं. हळू हळू खाड्येचे देगेर संडास आयले. ह्या संडासांतली हळशीक थेट खाड्येच्या उदकांत वचपाक लागली. व्हाळाचें उदक घाण जावन पिवपाक मेळना जालें. आता व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो तडेर उब्यो जाल्यो. कितल्याशाच बिल्डिंगांची हळशीक सरळ खाड्येच्या उदकांत वचपाक लागली. येतना वतना लोक प्लास्टिकच्या पोतयांनी घरांतलो कोयर हाडून व्हाळांत उडयताले. बिल्डिंगो बांदतना सगळो कचप व्हाळांत वतालो. खाड्येचें उदक पाचवेंचार जाल्लें. आतां तर ह्या उदकांत नुस्तें लेगीत गावना. ही खाडी आतां सामकी अशीर आनी उथळ जाल्या.

खरें तर थोडे लोक बोवाळ घालताले. मुंबय, चेन्नय हुंवार आयलो तसो पणजेय येतलो. आतां तरी आमी धडो शिकूंक जाय. आमच्यो न्हंयो, उदक, व्हाळ सांबाळूंक जाय. नितळ दवरूंक जाय. पूण तांकां कोण विचारता?

मुंबय मीठी न्हंयचें पात्र अशेंच खूब उथळ जाल्लें. लोकांनी तरेतरेचो कचरो तातूंत उडयिल्लो. २६ जुलय २००५ ह्या दिसा पावसाचें उदक खूबच वाडलें. आनी मुंबय हुंवारांत बुडलें. असोच पावस मुंबयंत परत २९ ऑगस्ट २०१७ ह्या दिसा आयलो आनी परत एकदां मुंबय हुंवाराच्या तडाख्यांत आयलें.

चेन्नय सुद्धा असोच हुंवार आयलो. अदियार न्हंयचेर लोकांनी केल्ले अत्याचार! तेच हुंवाराच्या रूपांत लोकांचेर परतले म्हणपाचें.

हाल्लीं फाटल्या पावसांत केरळा हुंवार आयलो तो तर धरणाचें उदक सोडचें पडिल्ल्यान खूब पयस मेरेन जाणवलो. धरणा लागीं रावपी लोकांक धोक्याची खबर मेळिल्ली, पूण पयस रावतल्या लोकांक कळोवंक सरकारा कडेन कांय तजवीज नाशिल्ली. लोकांचे सामके हाल जाले, नुकसान जालें.

मुंबय, चेन्नय, केरळा हांगच्या अणभवा वयल्यान गोंयांत थोडें तरी शिकपाचें. पूण शेजरा इतलें जालें, सगळ्याक हुंवार आयले तरी आमी आमच्यो न्हंयो, खाड्यो, व्हाळ सांभाळूंक नात. तातूंत कचरो उड्यत रावलीं. तांची पात्रां अशीर आनी उथळ करत गेलीं. जावपाचें तेंच जालें. पावसान उदक वाडले आनी व्हाळ आनी न्हंयो भरून

उदक लोकांच्या घरांत येवपाक लागले.

तसो हाल्लीं पावसाळो थोडो उसरां येतालो आनी उसरां वतालो. दिवाळे कडेन तर नरकासूर आतां जळून मरचे परस पावसाच्या उदकान बुडून मरतालो. गिमाळ्यानय आपलो वेळ बदलिल्लो. आता गिमाळो खूब तापपाक लागिल्लो, गिमाळ्याचे दीस चड रखरखीत जावपाक लागिल्ले. सगळ्या वातावरणांतच बदल जाल्लो. 'क्लाइमेट चेंज, क्लाइमेट चेंज' म्हण कांय विज्ञानिक फाटल्या कांय वरसां बोवाळ मारताले ताचो अर्थ आतां लोकांक कळपाक लागलो.

ऑगस्टाचो म्हयनो! धो-धो पावस. तीन चार दीस थांबपाचें नांव ना. इतलो वेळ लाग्गून पावस पडिल्ल्यान पात्र अशीर आनी उथळ जाल्लो व्हाळ एकदम खुल्लो. ताणें आपलो भेस बदल्लो.

हरशीं थंड, संथ असो हो व्हाळ आनी ताचे फुडली खाडी अकस्मात रुद्र रूप घेवन हुंवाराच्या भेसान सामकार आयली.

तीन-चार दीस पडिल्लो पावस, जोरगतीचे दीस, भरतीची वेळ. सगळें सादून आयलें. तातूंत दर्याक मेळपी मांडवीचें उदक एके जोरगतीच्या वेळार सांतीनेजचे खाड्येंत उफाळून आयलें आनी पणजे शारांत बुड्टी आयली. कितल्याशाच बिल्डिंगांनी हुंवाराचें उदक गेलें. कितलींशींच घरां व्हांवन गेलीं. रस्त्यार धोंपरा वयर उदक जालें. मुखेल रस्तो मनीस बुडपा इतलो उदकान भरलो. घरांतल्यान भायर सरिल्ले, कामाक गेल्ले लोक परत बरे भशेन घरा येवचे असो घरांतल्या लोकांक सगळो वेळ हुस्को. सगळेच वटेन खूब नुकसान जालें.

हुंवाराच्या उदकान कांय व्हड झाडां लेगीत मुळा साकून हुमटिलीं. हुंवाराच्या उदकाचो लोट खूब नेटान वता. ताणें हीं झाडां धुकलून धुकलून दुसऱ्या जाग्यार व्हरून उडयलीं. हरशीं उदकाच्या दोनय तडींनी आशिल्लीं झाडां हुंवाराचो नेट कमी करतात. पूण हाल्ली बिल्डिंगो बांदपाक झाडां कापून उडयल्लीं. हुंवाराच्या झोतान झाडां नाशिल्ल्या जाग्यार खवदळ घालो, सामकें धुमशण केलें.

खाडीचे तडीर रावपी सगळ्यांचीं घरा ह्या हुंवारान उद्ध्वस्त केलीं. थंय रावपी लोकांक सरकाराक दुसऱ्या जाग्यार हालोवंचे पडले. थोड्या दिसां खातीर तांच्या रावपाची वेवस्था सरकारान पणजे भायर करून दिली. आपलें घरदार सोडून लोकांक भुरग्या-बाळांक घेवन आकांतान धांवचें पडलें.

गंगव्वाय अशेंच धांवन गेल्लें. आतां हुंवाराचो वेग कमी जालो तशे सगळे लोक परतले. गंगव्वाय परत आयलें. घराची दशा पळोवन गंगव्वा कासाविस जालें. फाटल्या यादींनी गुंतून गेलें. पूण एकदम ताच्या लक्षांत आयलें. दनपारची वेळ आसा. भुरगीं येवपाची जाल्यांत. आता भितर वचून घर सावरून रांदपाक जाय. सान्तिनेझचे खाडयेचें बरें मागून गंगव्वा कामाक लागलें.

---

*(पान ५ वयल्यान)*

तेंच. भुरगीं शाळेंत कोंकणी-हिन्दी खातीर नागरी लिपी शिकतात आनी कांय फुडारी क्रिस्तांवांची ती रोमी म्हण सांगतात. बरें आनी खरें खंयचें तें सोदून काडचे परस नाकाच ती कोंकणी म्हणपी लोक चड जाल्यात. ह्या लोकांक कोंकणी कडेन बांदून दवरपाक आमी उणे पडल्यात ही गजाल खरी. पूण आजून वेळ गेल्लो ना. हो लोक आमचोच. रोमी लिपयेंतलें साहित्य तेंय आमचेंच. खरी खंत ती रोमी लिपयेंतल्या साहित्याचो दर्जो वाडोवपाचे नदरेन जाता तो वावर खूब उणो जाता. ते नदरेन तांणीय पावलां उखलचीं आनी आमीय तांकां फावो तो आदार दिवंचो. आमी उलयतात त्यो बोलयो वेगळ्यो आसल्यो तरी ती कोंकणी एकूच हाचें भान आमी तरी दवरचें. अर्थात थंय अशेय वाटचुके आसात 'आमी उलयतात ती रोमी कोंकणी' अशें म्हणपी. कोंकणी प्रजेचो आवाजा वेळार आमकां अशेय कोंकणीचे फुडारी मेळिल्ले जांणी 'कोंकणी घालाय भोंकांत. आमगेल्या मनशांक म्हामेळाव्यांत भाशण करपाक दियाय'. अश्या उतरांनी कोंकणीचो मोग उक्तायिल्लो. पूण असले दोन चार लोक म्हणल्यार सगलो क्रिस्तांव समाज न्हय. हें वळखून आमी पयस गेल्ल्यांक लागीं करूंक जाय. घडये तांचो तेंको तोंडदेखलो दिसूंये. दिसूं. तोय गोड मानून घेवपाची तयारी दवरूंया.

कोंकणी म्हालगड्यांचें कितें चुकता तें तपासून पळयतनाच तांणी दिल्ल्या योगदानाचें आनी सुयोग्य मार्गदर्शनाचेंय मुल्यमापन युगांका सारक्या संशोधक वृत्तीच्या तरनाट्यां कडसून जावंक जाय. कोंकणी चळवळ खंय चुकली, खंय उणी पडली हें दाखयतनाच फुडली वाट चलपा खातीर मार्गदर्शनूय जावंक जाय.

आनीक एक गजाल सांगूंक जाय. 'द पॉइंट, हाउएवर, ईज टू चेंज ईट.' ह्या लेखांतली अनेक विधानां क्लिश्ट वा घुस्पागोंदळाचीं जाल्यांत. कांय कडेन संदिग्धताय उरल्या. हो लेख मुळांत इंग्लिशींत बरोवन कोंकणींत ताचो अस्कत अणकार करचो तसो दिसता. कांय विधानां परस्पर विरोधी दिसतात. देखीक, '...वळय, स्वाभिमान असल्या कृत्रीम गजालीं परस भौसाक शेत, जमीन आनी आत्मसन्मान चड म्हत्वाचो...' हांगा स्वाभिमान आनी आत्मसन्मान ह्या समानार्थी उतरांक एकमेकां आड उबीं केल्ले वरी दिसता. एक वाक्य म्हाका समजलेंच ना तें '२०००च्या पयल्या दसकांत लेगीत गोंयचें खंयचेंच सरकार जनमत कौल राज्य पावंड्यार जाहीर करपाक भियेतालें... राजकी विशय म्हण टाळाटाळ करतालें.. आयज जनमत कौल राज्याच्या वेळापत्रकांत आसा.' घडये, समजुपाक म्हगेली आकलन शक्त उणी पडटा आसुंये. म्हाका दिसता असले गंभीर विशय वाचका मेरेन पावतले जाल्यार भास सादी, सरळ आनी निःसंदिग्ध आसची. अशें आसलें तरी ह्या गंभीर विशयाचें म्हत्व निखालस उणें जायना. मुक्ती आनी स्वातंत्र्य हांतलो फरक सांगतना युगांकान एक भोव म्हत्वाचो मुद्दो अधोरेखीत केला. मुक्ती ही भारत सरकारान कारवाय करून आमकां फावो केल्ली. पूण जनमत कौलाचो निकाल आनी राजभास कायदो हीं गोंयकारांनी स्वताचे हिकमतीचेर जोडिल्लीं जैतां. देखून तांकां मोल चड. विजय सरदेसायालें वक्तव्य राजनितीक नदरेन योग्य (पॉलिटिकली करॅक्ट) काय न्हय ताचेर भासाभास जावं दी. पूण युगांकान मांडिल्लो हो मुद्दो म्हाका खूब भावलो. अशे तरेची भासाभासच कोंकणी चळवळ चड लोकां मेरेन पावयतली.

संपर्क: 09422059509



# शणै गोंयबाब

## म्हळ्यार फुडारिल्ले विचार, उदारमतवाद आनी द्रश्टेपण

उदय भेंब्रे

'भुरग्यांलो इश्ट' हें पुस्तक शणै गोंयबाब हांणी शाळेंत शिकपी भुरग्यां खातीर बरयल्लें. तें छापून उजवाडाक आयलें १९५८ वर्सा; पूण तें केन्ना बरयल्लें हाचो उल्लेख खंयच मेळना. पूण अदमास करूंक जाता. १९४०त तांणी 'कोंकणी पयलें पुस्तक' हें पुस्तक तयार केलें. ताचें रूप चित्रबोधाचें आसा आनी तातूंत चित्रांय आसात. ७ वर्सांनी ह्या पुस्तकाची दुसरी आवृत्ती उजवाडाक आयली तेन्ना पुस्तकाचें नांव बदलून 'कोंकणी मुळावें पुस्तक' अशें केलें. १९४६ वर्सा शणै गोंयबाब संवसाराक अंतरिल्ले. म्हणटकूच ही दुसरी आवृत्ती तांच्या मरणा उपरांत एका वर्सान उजवाडाक आयली तर 'भुरग्यांलो इश्ट' हें पुस्तक १२ वर्सांनी उजवाडाक आयलें. ताका 'कोंकणी दुसरें पुस्तक' अशें नांव दिल्लें नासलें तरी तें 'कोंकणी पयलें पुस्तक' ह्या पुस्तका फाटोफाट म्हळ्यार १९४० वा १९४१ वर्सा बरयल्लें आसूंक जाय. सुमार ८० वर्सां फाटली ही रचणूक.

**दुसरी भितर**

ह्या 'भुरग्यांलो इश्ट' नांवाच्या पुस्तकांत २६ पाठ आसात. २६व्या पाठाचें नांव आसा 'हांव कितें करतलों?' ह्या पाठांत एक विद्यार्थी आपणाले हावेस उलोवन दाखयता. पिरायेन व्हड आनी शिकून जाण्टो जातकूच आपूण कितें करतलों हें तो मेकळेपणान आनी स्पश्टपणान सांगता. हो पाठ गद्यांत आसा आनी ताचे ६ वांटे (पॅरेग्राफ) आसात. पूण पाठ परत-परत वाचले उपरांत आनी तातुंतली काव्यमय भास ध्यानांत घेतले उपरांत ताका गद्यकाव्य म्हणप योग्य जातलें अशें म्हाका दिसता. दुसरें त्या पाठांतल्यो मोखी आनी त्यो मोखी साध्य करपाचे हावेस हे एका भुरग्याच्या तोंडांत घाल्ले आसले तरी शणै गोंयबाबाचें मन त्या भुरग्याच्या तोंडांतल्यान उलयता हें कळटा. अशेच तरेचे विचार तांचे बरपावळींत वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांनी मेळटात. दुसरें, जे विचार आपणाक मान्य नात ते शणै गोंयबाबा सारको विचारवंत एका भुरग्याच्या तोंडांत घालचेंच नासले.

### शेतकामत आनी भूकमुक्ती

ह्या गद्यकाव्यांतलो पयलो उतारो आसा शेतकामत, अन्नाचें उत्पादन वाडोवप आनी भूकमुक्ती हांचे संबंदान. उतारो असो आसा:

> ''हांव बरप शिकून जाण्टो जातकूच, शेतकामत करतलों. हांव शेतां, भाटां, पोरसां आनी कुळागरां लायतलों. हांव भात पिकयतलों. हांव फुलां फुलयतलों. हांव तरेकतरां सारी घालतलों. आनी पडिंग जमनी पिकाळ करतलों. म्हजीं शेतां पाचवीं चार. हांव एका पिका बदला पांच पिकां काडटलों. एके खांडये बदला धा खांडयांचें माप घेतलों. म्हजो नाल्ल कळसो कसो. म्हजो आंबो अमृता-शिंसो. हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों. दुबळ्या-धाट्यांक धादोसकाय हाडटलों. म्हज्या कोंकणांत उपासांनी कोण वळवळचो ना.''

ह्या उताऱ्यांत पयली मोख गांठपाक हावेस उक्तायतात ते अशे आसात -

- हांव बरप शिकून जाण्टो जातकूच शेतकामत करतलों.
- हांव तरेकतरां सारीं घालतलो आनी पडिंग जमनी पिकाळ करतलों.
- हांव एका पिका बदला पांच पिकां काडटलों.
- एके खांडये बदला धा खांडयांचें माप घेतलों.

- हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों.
- दुबळ्या-धाट्यांक धादोसकाय हाडटलों.
- म्हज्या कोंकणांत उपासांनी कोण वळवळचो ना.

### जाणकार करतलो शेतकामत

ह्या सात हावेसां मदलो पयलो हावेस उक्तावपी वाक्य अर्थान आनी शाणेपणान उपाट भरिल्लें आसा. ह्या वाक्यात 'जाण्टो' हें उतर वापरलां तें पिरायेच्या संदर्भांत न्हय तर जाणकार वा गिन्यानी ह्या अर्थान. हो हावेस आसा तो बरप शिकून जाण्टो जातकूच शेतकामत करपाचो; नोकरी-धंदो न्हय. शिकिल्ल्या-सवरिल्ल्या आनी गिन्यान जोडिल्ल्या मनशान शेतांतले मातयेंत काम करपाचें नासता अशें आज पसून जायतो लोक समजता. पूण शणै गोंयबाब तो अविचार मानून घेनात. तांकां गिन्यानाचो उपेग शेतकामताचे उदरगती खातीर जाल्लो जाय. आनी ते खातीर शिकिल्ल्यांनी आनी जाणकार जाल्ल्यांनी शेतांतले मातयेंत देंवन काम केल्लें जाय.

ह्या वाक्यांतलो दुसरो अर्थ असो की शणै गोंयबाब श्रमाची प्रतिश्ठा उखलून धरतात. शिकिल्ल्या - सवरिल्ल्यान फकत कचेरेंत बसून काम करचें हें तांकां मान्य ना. असल्या मनशांनी शेतकामांतलें कश्टांचें काम करप हें उणेपणाचें न्हय हेंच ते सुचयतात.

तिसरो अर्थ असो की मनीस हेर खंयच्याय मळार कसलेंय बरें काम करतलो जाल्यार पयले सुवातेर तो जगूंक जाय. जगतलो जाल्यार ताका पोट भर अन्न मेळूंक जाय. तें मेळटलें जाल्यार फावो तितलें अन्नधान्य मेळपाची वेवस्था जावंक जाय. देखून पाठांतल्या उतान्यांनी ज्या ६ क्षेत्रांचो उल्लेख आसा तांचे मदीं पयली सुवात तांणी शेतकामताक दिल्या. तें सगल्यांत म्हत्वाचें क्षेत्र हेंच ते सुचोवंक सोदतात.

### ५ पिकां, १० पटींनी वाढ

मागीर ३ हावेस आसात तांची वांगडाच चिकित्सा करपाक जाता. हे ३ हावेस म्हळ्यार पडिंग जमनी पिकाळ करप, एका पिका बदला ५ पिकां काडप आनी एके खांडये बदला १० खांडयांचें उत्पादन करप. ह्या तिनूय हावेसां फाटलो प्रयत्न म्हळ्यार शेतकामताच्या मळार क्रांती. ती क्रांती म्हळ्यार फकत सपन नासलें आनी फकत इत्साय नासली. जी हरीत क्रांती २०-२५ वर्सांनी जगांत आनी आमच्या देशांत जाली ते हरीत क्रांतीचो शणै गोंयबाबाक जाल्लो तो दिश्टावो आसलो. शणै गोंयबाब हांणी हो पाठ बरयले उपरांत सुमार ३० वर्सांनी डॉ. नॉर्मन बोरलॉग ह्या शेत-शास्त्रज्ञाक शांततायेचो नोबेल पुरस्कार मेळ्ळो. तांणी संशोधनांतल्यान नवें बीं-बियाणें तयार करून अन्नधान्याचें, भोव करून गंवाचें, उत्पादन कांय पटींनी वाडयल्लें. भारतीय शेत-शास्त्रज्ञांनीय तांचे कडल्यान स्फूर्त घेतली. डॉ. एम्.एस्. स्वामीनाथन हांणी आनी तांच्या सांगात्यांनी भाताचें नवें बीं तयार करून ताचें उत्पादन दुपेटीन-तिपेटीन वाडयलें, तशेंच हेर धान्यां, बटाटां हांचें पीक वाडयलें. देशाक भूकमुक्त करपाचो विचार ह्या प्रयत्ना फाटल्यान आसलो. आयच्या जगांत ह्या मळार इस्त्रायल देशान खूब उदरगत केल्या. घडये, पांच पिकां काडपाची आनी धा पटींनी अन्नधान्य वाडोवपाची शणै गोंयबाब हांची मोख त्या देशांतल्या शेत-शास्त्रज्ञांनी गांठल्या. मनशाक भूकमुक्त करपाचो हो कितलो उदात्त आनी मानवतावादी विचार! शणै गोंयबाब हे कांय शेतशास्त्रज्ञ नासले. पूण तांणी मांडिल्ल्या विचाराचे दिशेन जगांतल्या कांय देशांनी शेत-शास्त्रज्ञ आनी गिन्यानी शेतकामती वावर करीत आसात. पयल्या वाक्यांतलो शिक्षणाचो संदर्भा भूकमुक्ती खातीर संशोधन करपाच्या मुद्द्या कडेन पुरायेन जुळटा.

### खाण-जेवण फुकेसवाय

पांचवो, सवो आनी सातवो ह्या तीन हावेसांचोय एक्रामेका कडेन लागींचो संबंद आसा. परतून, हे तिनूय हावेस उदात्त आनी मानवतावादी. पांचवो हावेस आसा खाण-जेवण फुकेसवाय करपाचो. फुकेसवाय म्हळ्यार इतलें सवाय की फुकट मेळिल्ले भाशेन. आयच्या संवसारांत गिरेस्त देश आसात जे अन्नधान्याची निर्गत करतात; पूण खंयच्याय देशांत खाण-जेवण फुकेसवान करूंक ना. साम्यवादी देशांनी हे विशीं इल्ली चड जाणविकाय दाखयल्ली आसत पूण प्रत्यक्षांत तशें घडूंक ना. धतरेर जल्माक येता त्या दर एका मनशाक जगपाचो अधिकार आसा; जगतलो जाल्यार अन्न ही ताची मुखेल गरज; ती सोंपेपणीं भागूंक जाय; उपासांनी कोणाकूच वळवळचें पडूंक फावना. गिरेस्त मनीस अन्न कशेंय मेळयत; पूण दुर्बळांकूय तें मेळूंक जाय; आनी ते खातीर तें फुकेसवाय आसूंक जाय ही ह्या विचारा फाटली तर्कसंगती. शणै गोंयबाबांच्या दोनूय मोखींचो वांगडा विचार केलो जाल्यार असो अर्थ जाता की पीक वाडोवंक जाय आनी जण एकल्याक अन्न फुकेसवाय मेळूंक जाय; म्हणटकूच उपासांनी वळवळपाचो प्रसंग कोणाचेरूच येवचो ना. हातुंतले पयले मोखी संबंदान जगांतल्या खुबश्या देशांनी उदरगत जाल्या आनी जंय जावंक ना थंय ती घडोवन हाडपाचे यत्न चालू आसात. पूण दुसरे मोखी पसून जग पयस आसा. अन्न फुकेसवाय मेळपाची वेवस्था करतले अशें उतर प्रामाणिकपणान दिवपी आनी ते खातीर वावुरपी सरकारां, राजकी पक्ष आनी राजकारणी आयचे घटकेक खंयच दिसनात. अशे परिस्थितींत 'हांव खाण-जेवण फुकेसवाय करतलों, अशें सुमार ८० वर्सां फाटीं आत्मविश्वासान सांगपी शणै गोंयबाबाचो पिंड क्रांतिकाराचो आसूंक जाय अशेंच म्हणचें पडटलें.

कोंकणा विशींच्या अभिमानांतल्यान शणै गोंयबाब 'म्हज्या कोंकणांत उपासांनी कोण वळवळचो ना' अशें म्हणटात. पूण हांगा कोंकणाचो अर्थ भुगोलीक वाठार इतलोच घेवन चलचो ना. निमण्या उतान्यांतलीं निमणीं उतरां आसात... 'सगळ्या संवसाराचें कोंकण करतलों.' म्हणटकूच 'कोंकण' हें उतर सगळ्या संवसाराक लागू

जाता. ते खातीर 'कोंकणांत उपासांनी कोण वळवळचो ना' ह्या वाक्यांत 'संवसारांत उपासांनी कोण वळवळचो ना' असो अर्थ अभिप्रेत आसा हें समजून घेवंक जाय. मनशाच्या अस्तित्वा खातीर भूकमुक्तीचो हो ध्यास आसा.

### वेपार-उद्‌देग

पाठांतलो दुसरो उतारो वेपार-उद्‌देग संबंदान आसा आनी तो असो आसा:

"हांव उद्‌देग करतलों. हांव मांड-पसरे घालतलों. म्हजीं वेपाराचीं तारवां संवसाराच्या सगळ्या बंदरांनी भोंवतलीं. म्हज्या कोंकणांतलो म्हाल सगळ्या पेठांनी पावतलो. हांव जायतो दुडू जोडटलों. हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों आनी सगळ्यांक गिरेस्त करतलों."

ही मोख गांठपाक हावेस उक्तायल्यात ते अशे:

- हांव उद्‌देग करतलों... म्हज्या कोंकणांतलो म्हाल सगळ्या पेठांनी पावतलो.
- हांव जायतो दुडू जोडटलों.
- हांव हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों आनी सगळ्यांक गिरेस्त करतलो.

ह्या तीन हावेसां मदलो पयलो हावेस हो अपवादात्मक ना. वेपार-उद्‌देग करतल्या खंयच्याय मनशाची ही सबावीक महत्वाकांक्षा आसता. व्यापार -उद्‌देगाच्या आवांठाचेर येणावळ आदारून आसता. ती वाडटली जाल्यार वेपार-उद्‌देग वाडोवंक जाय. म्हणटकूच ही मनशाची सैमीक प्रवृत्ती. आडवाद आसतात. संद आसली तरी कांय जाण आपणाकूच एक शीम घालतात आनी ते शिमे भितर रावतात. शणै गोंयबाब असल्या आडवादां संबंदान सांगना; तर धंद्याचो आवांठ वाडयत वचपी महत्वाकांक्षी वेपारी जावपाचो हावेस धरता.

दुसरो हावेसूय त्याच वर्गांत पडटा. कोणाक दुडू नाका? सन्याशी वा तत्सम मनशां सोडलीं जाल्यार हेर सगल्यांक दुडू जाय आसता आनी तो चड आनी चड जोडपाची इत्सा आसता. मनशाची ती सभावीक प्रवृत्ती अशेंच म्हणूंक जाय.

### समानतायेचो उदात्त विचार

तिसरो हावेस मात वेगळो आसा आनी ताचे दोन वांटे केले जाल्यार दुसरो वांटो आगळोच आसा. आयच्या संवसारांत तो कानार पडना. उतार्‍यांतलें निमणें वाक्य आसा, "हांव व्हडलो गिरेस्त जातलों" ही जण एकल्याची इत्सा आसुंयेता. पूण त्या उतरां फाटल्यान शणै गोंयबाब पूर्णविराम दिना. तीं उतरां 'आनी' हें जोड अव्यय वापरून 'सगळ्यांक गिरेस्त करतलों' ह्या उतरां कडेन जोडटात. दोन हावेस एकामेका कडेन जोडटात, एक वैयक्तीक, तर दुसरो भौशीक. हातुंतलो भौशीक हावेस हो अती म्हत्वाचो आसा. 'हांव सगळ्यांक गिरेस्त करतलों' अशीं उतरां आज मेरेन संवसारांतल्या खंयच्याय गिरेस्त मनशान उच्चारल्यांत? खंयच्याय उद्‌देगपतीन तसो आवंडो उक्तायला? खंयच्याय समाजवाद्यान वा साम्यवाद्यान तसो निर्धार केला? चडशे गिरेस्त आपूण गिरेस्तकायेच्या उंचेल्या पावंड्यार उरचो असोच प्रयत्न करतात. खूबशे जाण पयशे जोडटात आनी तांतुंतलो कांय वांटो परोपकारा खातीर वापरतात. आल्फ्रेड नोबेल हांणी आपले जोडींतल्या पयशांतल्यान नोबेल पुरस्कार स्थापन केले. भौशीक जापसालदारकेची जाणविकाय आशिल्ल्या जगांतल्या जायत्या गिरेस्तांनी हेरांक पालव दिला, पालव दिवपी संस्था स्थापन केल्यात; पूण सगळ्यांकूच गिरेस्त करुंया अशें केन्ना म्हणूंक ना. तशें तांकां मनांत तरी केन्ना दिसलां काय? शणै गोंयबाब मात् आपूण व्हडलो गिरेस्त जातलों हे इत्सेक 'आनी सगळ्यांक गिरेस्त करतलों' ही इत्साय जोडटात. हाचे फाटली मुखेल भावना ही समानताय साध्य करपाची. ते दुर्बळकाय वांटून समानताय हाडपाची इत्सा धरिनात. सगळ्यांक गिरेस्त करून गिरेस्तकायेच्या समान पांवड्यार हाडूंक सोदतात. केदो क्रांतिकारी आनी पुरोगामी विचार! समाजीक, शिक्षणीक, सांस्कृतीक विशमताय ना जावपी हो विचार तांचे बरपावळींत जायते फावटी नदरेंत भरता. हांगा ते अर्थीक विशमताय ना करपाची महत्वाकांक्षा धरतात. ही समानताय साध्य करपाचे वा विशमताय ना करपाचे दोन मार्ग आसात. निसणीच्या उंचल्या पावंड्यार पावल्यात तांणी दोन पांवडे देंवचें आनी सकला आसात तांणी दोन पावंडे वयर चडचें आनी अशे तरेन सगल्यांनीच एका पावंड्यार येवचें हो एक मार्ग. पूण शणै गोंयबाब सुचयतात तो मार्ग हो न्हय. तांचे सुचोवणे प्रमाण कोणेंय देंवचें न्हय; सगल्यांनीच उंचल्या पावंड्यार पावन समानतायेची मोख गांठची. हो विचार अदीक उदात्त, अदीक महत्वाकांक्षी, अदीक भौशीक हिताचो. कोणाकूय हो विचार 'युरोपियन' दिसुंयेता, अवेव्हारी दिसुंयेता. पूण अशक्य तें शक्य करपाचीं सपनां पळयत जे प्रामाणिकपणान आनी निर्धारान वावुरले तांणीच संवसारांत तरेकतरांची क्रांती केल्या हें सत्य न्हय? सगळेच गिरेस्त जाले जाल्यार संवसार कसो चलतलो असो प्रस्न प्रतिगामी विचारसरणीच्या मनशां कडल्यान येवं येता. तांचे नदरेन, संवसार चलतलो जाल्यार विशमतेचीं चक्रां जाय पडटलीं. असल्या मनशांचे मोटवे बुद्‌दीची काकुळट करता तितली थोडी! सगलेच लोक बरपाक्षरी जाले जाल्यार संवसार चलचो ना? सगलेच लोक गिन्यानी आनी शाणे जाले जाल्यार संवसार चलचो ना? सगलेच लोक शांतिप्रिय जाले तर संवसार चलचो ना? मागीर सगलेच लोक गिरेस्त जाले तर संवसार कित्याक चलचो ना? अर्थीक विशमताय ना जातकूच शोशण, पिडापीड, अन्याय, संघर्श हें सगलें बंद जातलें वा व्हड प्रमाणांत आळाबंदा येतलें हें ध्यानांत धरुनूच शणै गोंयबाब हांणी हो पुरोगामी विचारां मर्दीय अदीक पुरोगामी असो हावेस स्पश्ट उतरांनी सांगला.

(चलता)

संपर्क: 9822163223

# संयुक्त अरब अमिरांत (युएई) भोंवडी

संपदा कुंकळकार

जेवण जातकच आमी 'बटरफ्लाय गार्डन' पळोवपाक भायर सरलीं. हांगा रस्त्यावेल्यांन भोंवतना दर दोन-तीन मिनटांनी विमान उडटना वा देंवतना दिसता. दुबयचें विमानतळ हें हिऑ विमानतळां फाटल्यांन दुसरें सगळ्यांत वेस्त विमानतळ. हांगा दर मिनटाक एक विमान उडटा आनी दर मिनटाक विमान देवता.

हांगा पर्यटकांक आकर्शीत करपाक सतत कितें तरी नवें उपक्रम आसतात. तांतूंतली एक ही फुलपाख्यांची बाग.

ही बाग पळोवपाक तिकीट लागता. एका मनशाक ५५ दिरम. म्हळ्यार आमचें एक हजार शंबर रुपया. आता एक दिरम म्हळ्यार आमचें २० रुपया. २०१४ त एक दिरामाची किंमत १७ रुपयां आशिल्ली. डॉलर तर ७५ रुपया. आमचे अर्थवेवस्थेचीं स्थिती दिसान दीस वायट जायत चल्ल्यां.

ही फुलपाख्यांची बाग १८०० स्कॅर. मी. जाग्यार आसा. ह्या बागेंत ९ डॉम (अर्द गोलाकार जागो) आसात. दर एका डॉमांत फुलांची सजावट आसा, बनावटी फुलां आनी झाडांची सजावट आसा, झाडां आनी बसपाक बांक आसात. भितर सरतना फुलांची आनी झाडांची सुंदर सजावट आसा. बसपाक टेबल आनी खुर्च्यो घाल्यांत. वयर वेलींचो माटव आनी तांका रंगी बेरंगी सत्र्यो लायल्यांत.

हांगा जायतीं खरी झाडां आसात. हांगा एकूण ३०० लोक कामांक आसात. १००० च्या परस मायज फुलपाख्यांच्यो जाती आसात. ह्या डॉमाचो हवामान नियंत्रणात करतात. फुलपाख्यांची बेस बरी देखरेख करतात, जतनाय घेतात. कांय फुलपाख्यांक हात लावपाक मेळटां, पूण तांकां धरप ना. तांकां जाय जाल्यार तीं तुमचेर येवन बसतात. तांकां बसपाची सक्ती करप ना. जशें पर्यटकांक कसलोच त्रास जावचो ना हाची जतनाय आसता, तशेंच फुलपाख्यांक कसलोच त्रास जावचें ना हाचीय जतनाय घेतात.

हांगा भितर एक ल्हानशें हॉटेल आसा थंय आयस्क्रीय, दुदाचें शेक, कॉफी, च्या, सगळें खावपाक मेळटां. बसपाक सोफा आनी खुर्च्यो आसात. सगळें सामकें सोयीस्कर.

सुमार एक देड तास भोंवन आमी थंयच्यान एमिरेटस् मॉलांत गेलीं. एमिरेटस् मॉल हें दुबयचें एक फामाद मॉल. हांगा थोडी खरेदी करपाक जाय आशिल्ली आनी म्हाका 'गोदिवा' आयस्क्रीम खावपाची आशिल्ली. कांय आंतरराष्ट्रीय कंपनीचे जिन्नस भारतांत आनी गोंयांत मेळना. पूण परदेशांत वतकच ते खावपाची उमळशीक आसता. गोदिवाच्यो बिस्किटी म्हाका खूब आवडटा, पूण म्हाका जाय त्यो बिस्किटी हांगा नाशिल्ल्यों. हांवें चॉकलेट आयस्क्रीम खाल्ली. गोदिवाचें जिन्नस मात्शें म्हारग, पूण रूच आनी दर्जो अप्रतिम.

फाटल्यां वेळार 'बुर्ज खलिफा' ही इमारत पळोवपाची उरिल्ली.



जगातलीं सगळ्यांत उंच इमारत. ती उंचायेन जितली व्हड ताज्यांय परस चड व्हड तिजें मार्केटिंग केला. दुबयक तिजें विशी केदो अभिमान. बुर्ज खलिफा १६४ माळ्यांची, पूण पर्यटकांक १२४ व्या माळ्यांर व्हरतात. तिकीट आमचें २५०० रुपया एका मनशां खातीर. एका वेळार अमक्यांच जाणांक वयर व्हरतात. थंय मागीर जाय तितलो वेळ रावूं येता. तिकिटी रोखडयोच खपतात. आमकां सकाळीं णवाचीं वेळ मेळिल्ली.



सकाळीं नाश्तो करिनासतना भायर सरिल्लीं. हांगा मॅकडॉनल्डासात नाश्तो केलो. मम्मीन तिज्या आवडीचो चिकन बर्गर आनी हांवें चिकन अरेबिया खालो. मॅकडॉनल्डसाचे एक बरें, ज्या देशांत वता थंय स्थानीक नांवान एक जिन्नस काडटा. भारतांत कशीं आलू टिक्की वेल्यान एक जिन्नस काडिल्लो. नाश्तो जातकच आमीं दुबय मॉलांत भोंवली. दुबय मॉल पर्यटकां खातीर एक व्हड आकर्शण. हाका जायतीं कारणां आसात.

आमी दुबयलँड रावताली. थंयच्यान बुर्ज खलिफा कडेन पावपाक वेळ लागता, कारण सकाळचें ट्राफिक आसतां. आमी साडे सातांक भायर सरलीं. पावणें णवांक थंय पावलीं. पर्यटकांक बुर्ज खलिफाचेर वचपाक दुबय मॉलांतल्यान वच्चें पडटा. आमचे कडेन E-ticket आशिल्ली. मॉलांत तांचो काऊंटर आसा. थंय वचून तिकीट आनी पासपोर्ट दाखोवप आनी पास घेवप. विमानांत वतना जशें चॅकिंग करतां तशेंच तरेचें चेकिंग हांगाय करतात. तांचो प्रतिनिधी दोन मिटराचेर फळो मारला, "From the earth to the sky', जमनीवयल्यान मळबां कडेन तशेंच सकयल बरयलां, दुबय कशें तरेन विचार करता आनी आपल्याक जाय ते कशें मेळयता हाचें देख म्हळ्यार बुर्ज खलिफा.

तांचो प्रतिनिधी आमकां लिफ्टी कडेन घेवन गेलो. आमचे बरोबर एक विदेशी जोडपें आशिल्लें. लिफ्टीक फकत दोनूच बटन आशिल्ले G आनी १२४. लिफ्ट सुरू जाली आनी सेकंदां भितर ३५ व्या माळ्यार पावली. धा सेकंद जाता मेरेन आमी १२८ व्या माळ्यार पावली. लिफ्टीचे दार उगडनाफुडें तांची बायल प्रतिनिधी उबी आशिल्ली. तिणें हासून स्वागत केले. हांगा पावतकच वेळेची मर्यादा ना. जाय तितला वेळ तुमच्यानी रावूं येता. हांगा हारशाच्यो वणती आनी सकयल एक ल्हानसो कठडो. चडशें लोक ह्या कठड्याचेर बसून फोटो काडटात. हारशांतल्यान बरो देखाव दिसता. ह्याच माळ्यार तांचे ल्हान दुकान आसा. हांगा जायत्यो वस्तू विकत्यो मेळटात. अर्थात त्यो अति म्हारग हें वेगळे सांगपाची गरज ना. हांवें फोटो मोबायलाचेर काडले. पूण हांगा फोटो काडपाची सोय आशिल्ली. एक फोटो २०० दिरम म्हळ्यार आमचें ४००० रुपया. सकयल देंवतना आयिल्ल्या त्या वाटेन वचप ना. वचपाची वाट वेगळी. लिफ्टींतल्यान सकयल देवतकच ह्या इमारतीचो सगळो इतिहास फोटो सयत वाचपाक मेळटा. इमारतीची बुन्यात घाल्लो तो फोटो ते इमारत कशी इल्ली-इल्ली करून उबी जालीं तें सगळें फोटो हांगा पळोवपाक मेळटा. तशेंच ह्या इमारत उबारपाक ज्या ज्या लोकांचो हातभार लागला तांचे सगळे फोटो तांच्या हुद्‌द्या सयत मारल्या. हातूंत वेगळ्या वेगळ्या देशाच्या नागरिकांचो सहभाग आसा हे फोटो पळयतकच कळटा. ह्या प्रकल्पांत कांय बायलांनी काम केला. हें सगळें पळयत आमी मॉलांत पावली.

सगळ्यांत व्हड आकर्शण म्हळ्यार ॲक्वेरीयम हें जगातलें एक व्हड ॲक्वेरीयम. पूण हे ॲक्वेरीयम पयलीं आयिल्ली तेन्ना पळयल्लें म्हूण हें फावट पळयलें ना. त्या वेळार तिकीट ९० दिरम आशिल्ली. आता घडये वाडल्या आसतली. जर तिकीट काडून भितर वचपाक नाका जाल्यार भायल्यातल्यान ह्या ॲक्वेरियमाचो एक भाग पळोवपाक मेळटा. पूण मात्शे पयसुल्ल्यान. जी उदकाची टांकी आसा ती एदी व्हड आसा तातूंत सुमार १०० लाख लीटर उदक वता. हांगा सुमार ३३ हजार उदकांतले आसात २०० जाती. भितर सरतकच चारूय वटेतल्यान हो ॲक्वेरीयम अणभवपाक मेळटा. हाची लांबाय ५१ मीटर, रुंदाय २० मीटर तर उंचाय ११ मीटर आसा. सगळे पळोवन जातकच तुमकां तुमचें फोटो आशिल्ल्यो दोन वस्तू दितात. एक फ्रिजाक लावपाचो लोहचुंबक आनी एक शोबेची वस्त.

ह्या मॉलांत आनीक एक अजापाची गजाल तयार केल्या ती म्हळ्यार Waterfall. एक दोन वण्टीं वयल्यान उदकाचो धबधबो व्हांवता. आजवेर आमी सैमान तयार केल्ले धबधबे पळयल्यात. पूण ज्या देशाक सैमान फकत रेंव दिल्या त्या देशांत हो मनशान तयार केल्लो धबधबो पळोवपाक बरीच गर्दी पडटा. तसो तो आसाय पळोवपा सारको आमीं सकाळीं पाविल्ल्यान चड गर्दी नाशिल्ली. हांगा नकली फुलांची एक सुंदर फास्की दवरिल्ली. त्या फास्केंत भितर उबे रावतकच फाटल्यान तो धबधबो.

सांजेवेळा मम्मीच्या पुस्तकाचो (स्त्री मनाची स्पंदने) लोकार्पण सुवाळो आशिल्लो योगी ग्रुपाच्या दुबयच्या ऑफिसांत ही कार्यावळ आयोजीत केल्ली. ल्हानपणासावन हांव जायत्या पुस्तकाच्या लोकार्पण सुवाळ्यांक गेला. मम्मी बरोबर जायते सुवाळे स्वता आयोजीत केल्यात. पूण परदेशांत जावपी हो आमचो पयलो सुवाळो. सुवाळो खऱ्यानीच बरो जालो. सामको नियोजना प्रमाण. हो कार्यक्रम चड महत्वाचो आशिल्लो. तो जाय तसो जालो म्हूण समादान मेळ्ळें.

दुसऱ्या दिसा आमीं घराच कडेन सुशेग घेतलो सामान बांदलें. ज्यो वस्तू विकत्यो घेतिल्ल्यो त्यो सारक्यो बॅगेत घाल्यो. मम्मीन आनी हांवें मेळून घरांच जेवण केलें. अंबेयान बाजारातल्यान ताजीं पापलेटां आनी सुंगटां हाडिल्लीं. उजरावन मम्मीक कडियेची याद आयली. हांगा कांतिल्ली सोय मेळटा. त्या सोयेची बरी कडी केली. आपलें जेवण जेवतकच मनशाक जें समादान मेळटा तें दुसरें खंयचेय

जेवण जेवन मेळना.

सांजवेळा आमी आ लॅन वचपाक भायर सरली. जबल हफित दोंगर पळोवपाक. आ लॅन हें शार आबू धाबीच्या राज्यांत येता. ह्या शाराची शीम ऑमान देशाक तेकल्या. दुबयच्यान आ लॅन पावपाक सुमार दोन ते सवा दोन तास लागतात. हें शार एक हिल स्टेशन. हवामान मात्शें थंड. पाकिस्तानातल्यान येवपी पहाडी लोक खंय हांगा काम मेळटकच सामकें खूश जातात. हांगा जें मानाय वा बारीक सारीक कामां खातीर लोक येतात तें चडशें पाकिस्तान आनी बांगला देशांतल्यान येतात. आ लॅन शारांत पावता म्हणसर तिळसांज जाली. शार सामकें चकचकतालें. सांजेवेळ जाल्ल्यान येरादारी इल्ली चड आशिल्ली. शिस्त मात ना. पठानी सूट घाल्ले कामगार मदीं मदीं रस्तो क्रॉस करताले. जीं शिस्त दुबयत दिसता तीं मात हांगा ना. रस्त्यार वाट दाखोवपी फळें चड नाशिल्ले. हांगा पर्यटकां खातीर जे जागे आसात तें दाखोवपी फळें ब्रावन रंगाचे आसात, आनी बाकीचे फळें पाचव्या रंगाचे. पूण ते ब्रावन रंगाचे फळे बऱ्याच चड अंतराचेर आशिल्ले. म्हजें लक्ष फकत तें फळें दिसता कांय ताजेरूच आशिल्ले.



रस्त्यावयल्यान जबल हफित दोंगरार वचपी रस्त्यावेले दिवे दिसपाक लागले. हो आबू धाबीचो एक दोंगराळ वाठार. हांगा सकाळचे वा सांजेवेळा केन्नाय भायर जाता. पूण रातचे गेले म्हणटकच दोंगराच्या वेल्यान आ लॅन शार दिसता. तशेंच ओमान देश दिसता.

हो दोंगर ४०९८ फीट लांब आसा. ह्या दोंगरार वचपी रस्तो १९८० सालात बांदिल्लो. जो ११.७ कि.मी. आसा. जगांतल्या धा मुखेल दोंगराळ रस्त्यांमदलो हो एक. दोंगर चडटना विमान उडता अशें दिसता. जशें विमान उडटना आनी देंवतना चकचकपी दिवें दिसतात तशेंच हो जबल हफित दोंगर चडटना चकचकपी दिवें दिसतात. उंचाय इल्ली चड आशिल्ल्यान मम्मा मात्शी भिली. ह्या रस्त्यार खंय ६० वळणां आसात. वयर पावतकच जो देखाव दिसता तो शब्दांन सांगप कठीण. मळबांत उबी आसा अशें दिसता. हो पुराय जागो लोखणाच्या सरयांनीं बांदून काडला. कोणूय चुकून पडचो ना हाचे खातीर घेतिल्ली जतनाय. हांगा एका जाग्यार एक नकली खडप दवरला. हळदुव्या रंगाचें. तागेर ह्या दोंगराचो इतिहास बरयला. बसपाक बाक घाल्या. एका बाकार कंदूरा घाल्ले दोग जाण बसून खबरी करताले. अंबेय सांगपाक लागलो, हें सी.आय.डी.चे मनीस आसतले. नदर दवरपाक बसल्यात. हो वाठार खूब व्हड. हांगा एक ल्हानशें हॉटिल आसा. भायरूय बी बसपाक टेबलां आनी खुर्च्यो घाल्यांत.

जितली मजा वयर चडटना येता तितलीच मजा सकयल देंवतना येता. ह्या दोंगराच्या पायां कडेन गरम उदकाचे झरें व्हांवतां. हें उदक सामकें औषधी. हो दोंगर म्हळ्यार प्लेंकटॉन हाच्या फॉसीलाचो लेयर. ह्या दोंगरावयल्यान हे गरम उदकाचें झरें व्हांवता. हांका ग्रीन मुबज्जरा म्हणटात. पूण हें उदक सदांच गरम आसता म्हूण ना. तें हवामानाप्रमाण बदलता. केन्ना केन्ना गरम आसता, केन्ना केन्ना धुगधुगीत. आमी थंय पाविल्लीं तेन्ना उदक चड गरम नाशिल्लें. आमच्या पयलीं कांय लोक थंय पाय बुडोवन बशिल्ले. हें झरें शिमिटांनी बांदून काडल्यात. पांय बुडयता तेन्ना त्या शिमिटाच्या ल्हान कठड्यार बसपाक मेळटा.

उदकांत पांय बुडोवन जातकच आमीं भायर सरलीं. हांगा निकतेच लोक येवपाक लागिल्ले. हो वाठार बरो दवरला. विकास केला पूण सैमाक कसलीच बादा ना. भोंवतणी सगळ्याक रेंव. ह्या रेंवेर लोक गादयो, गालीचे घालून बशिल्ले. दुसऱ्या दिसा शुक्रार आशिल्ल्यान चडशीं कुटुंबां हांगा रावपाक आयिल्ली. कांय लोकांनी बार्बिक्यू करपाक सुरवात केल्ली.

एके कडेन कांय अरब बसून च्या कांय कॉफी पिताले. आता अरब कोण तें कशें वळखप? अरबांचो पारंपरीक पोशाक - कंदरा म्हळ्यार धवो लांब झगो, माथ्याक धवो वा चेक्सांचो स्कार्फ आनी डिश-डेश म्हळ्यार काळ्या रंगाचे रींग. हो कंदुरा आनी स्कार्फ कोणेय घालू येता. पूण डिश-डेश फकत अरबूच घालतात. त्या काळ्या रिंगा वयल्यान अरब म्हूण वळखुपाक येता.

वाठार खूब व्हड आशिल्ल्यान गर्दी आसून लेगीत कचकच दिसनाशिल्ली. भुरग्यां खातीर खेळपाक पार्क आशिल्लो. रस्त्यार धावपी ट्रेन. ल्हान-ल्हान दुकानां जायतीं आकर्शणा आशिल्लीं. आमकां दुबय वचुनूच जेवण घेवपाक जाय आशिल्लें म्हूण आमी भायर सरली.

दुबय भितर सरतनाच, एक धाबो मेळटा. जेवण थंय घेतलें. ताका जरी धाबो म्हळो तरी तें एक बरें ल्हानशें हॉटिल आशिल्लें. ए.सी. धाबो. फॅमिली रूम वेगळो आशिल्लो. आमीं चिकन कडाई, दाळ फ्राय, चिकन तंदुरी आनी मलबार रोटी खाल्ली. जेवण खऱ्यानीच रुचीक आशिल्लें.

फाटल्या वेळार आबू धाबीचें वेगळेंच रूप पळयल्लें. तेन्ना आबू धाबी शार पळयल्ले. हांगाचें सगळ्यांत व्हड आकर्शण म्हळ्यार शेख जाएद मशीद. ही जगांतली एक व्हड तशींच एक अतिशय सुंदर मशीद. ती बांदपाक १९९६ ह्या वर्सा सुरवात जाली आनी २००७

वर्सा तीं बांदून तयार जाली. हो प्रकल्प तेन्नाचे युएईचे राष्ट्रपती शेख जाएद बीन सुल्तान अल नाह्यान हांणी सुचयल्लो. पूण तांकां २००४ वर्सा मरण आयलें. ताका ह्याच मशिदीच्या तळ माळ्याचेर पुरला.

ही मशीद ऐदी व्हड हांगा एकाच बरोबर ४० हजार लोक प्रार्थना करपाक शकतात. ही मशिद पळोवपाक पर्यटकांची गर्दी पडटा. हांगा बायलांकूय प्रवेश मेळटा. पूण जर कपडे कमी आसत जाल्यार बुरखो घालचो पडटा. कमीं म्हळ्यार साडी लेगीत तांका कमी दिसता. मम्मी साडी न्हेशिल्ली. तिका बुरखो घालचो पडलो. पूण जर जीन्स, हात लांब आशिल्लो टॉप घाला आनी स्कार्फ वा ओडणी तकलेवेले केस दिसपाक जायना. म्हाकाय बी बुरखो घालपाक लायलो. एकदा एका बायलेन बुरखो घालून काडटकच तो धुवपाक वता. हें बुरखे घालपाक आनी काडपाक वेगळी कूड आसा. तो काडून तो थंय दवरिल्ल्या बॉक्सांत घालपाचो. तो धुवपाक वता. हांगा भरपूर गर्दी आशिल्ली. चड करून विदेशी पर्यटक. पूण सगळें शिस्तीन.

मशीद पळोवन जातकच आमी आबु धाबी शार पळयलें. मागीर मरिना मॉलांत जेवण घेतले. हांगाच्या शेखाची पलास पळयली. पूण भायल्यान.

'फुजेरा', युएइच्या सात अमिरातींतलें एक अमिरात. हें एक गरीब राज्य. दुबय वा आबु धाबी कडेन सर केल्यार कसलोच चड विकास ना. हांगा भुकंप चड जातात. ह्या भुकंपाच्या प्रक्रियेंतल्यान हांगा ल्हान ल्हान दोंगर तयार जाल्यात. ह्या दोंगरां वयल्यान मोडणां-मोडणांचो रस्तो. हांगाच्यान उदेवपी सूर्य खूब सुंदर दिसता. तेंच पळोवपाक आमी सकाळीं फुडें फुजेरा वचपाक भायर सरलीं. वाटेर एके कडेन स्ट्रॉबेरीचें मळें दिसले. फुजेराची रेंव बाकीच्या रेंवे परस वेगळी. नारंगी रंगाची. वाटेर वतना ह्या नारंगी रंगाच्या रेंवेचें सुंदर ल्हान व्हड दोंगर दिसतात. पूण गाडी थांबोवन देवून थंय वचपाक मेळना. ह्या देशांत वाळवंटाच्या मदल्यान रस्ते बांदून हीं सातूय राज्यां एकमेकाकडेन जोडल्यांत. रस्त्याच्या दोनूय वटेन सरीयेचे आडे. नाजाल्यार पयलीं खंय उंट मदींच रस्त्यार येताले आनी अपघात जाताले. उंट आनी मनीस, दोगांयच्या सुरक्षिते खातीर रस्त्याच्या दोनूय वटेन हे आडे आसात. मदीं मदीं ह्या रेवेंत भोंवपी उंट दिसतात.

सातांच्या अदमासाक आमीं फुजेरां पावलीं. त्या ल्हान दोंगरा मदल्यान सूर्य हो देखाव सामको अप्रतिम आशिल्लो. दोनूय वटेन तें ल्हान ल्हान दोंगर आनी मोडणाचो रस्तो. इतल्यान १५ ते २० मोटयसायकली सामक्यो वाऱ्याच्या वेगान गेल्यो. तो दीस शुक्रार आशिल्ल्यान सुटी आशिल्ली. सकाळीं फुडें ह्या अरबांनी रेस लायिल्ली. ह्या दोंगरांचेर खंय तरणे अरब अश्योच रेसी लायतात. ह्या जाग्या विशीं पर्यटकांक चड खबर नाशिल्ल्यान गर्दी आसना. दुबयच्यान सुमार देड तासाचो प्रवास. एके कडेन गाडी थांबोवन हांव आनी मम्मी सकयल देंवली. मागीर दुबय येवपाक परतलीं.



हांगाय बी खंयचो रस्तो खंय वता हें दाखोवपी फळे नाशिल्ले. लांबच्या लांब रस्ते. निमाणें दुबय वचपाचो रस्तो दाखोवपी फळो दिसलो. दुबयच्या शिमेत भितर सरलीं. पूण चुकून अंबेयांन पयलेच दावें वळण घेतलें. आनी आमीं तिगांय दुबयच्या एका गांवांत पावलीं. कसोच महामार्गा कडेन वचपाचो रस्तो मेळना. ह्या घुस्पा गोंदळांत दुबयचो एक गांव पळोवन जालो. रेंवेच्या मदीं मदीं घरां. कांय पाळिल्ले उंट पळयले.

हांगा चडशीं घरां रेवेच्या रंगाची. हाचें कारण वाऱ्याबरोबर रेंवेचो बारीकसो थर घरांचे बसता. कांय तेपान घराचो रंग मुळांत कसोय आसू तो हळू हळू रेंवेच्या रंगाचोच जाता. अर्दवर भोवून निमाणो महामार्ग मेळ्ळो. मम्मीचो हुस्को गेलो.

दुबय सदांच पर्यटकांक कितेंय तरी नवें दिवपाचो यत्न करता. डाऊन टाऊन दुबय हो हांगाचो सगळ्यांत आकर्शण जागो. हांगा जुमेरा बीच आसा. ह्या वेळेच्या सरभोंवतणचो वाठार तांणी सामको विकसीत केला. ह्या जाग्याक 'जे.बी.आर.' म्हणटात. जेबीआय पळोवपाक आमी तिनसांजच्या वेळार गेल्लीं. हरशी दुबय रातची चकचकता, पूण हो वाठार इल्लो चड चकचकता. विदेशी पर्यटकांची हांगा गर्दी पडटा. हांगा व्हड व्हड पंचतारांकीत हॉटेलां आसात. तातूंतलें एक बुर्ज अल अरब हें म्हारग हॉटेल. हे हॉटेल सामकें जुमेरा वेळेरूच बांदला. ह्या हॉटेलाची इमारत ही एक वटेन दुबयची वळख. फाटल्या वेळार हांगा सकाळीं आयिल्लीं ही दर्यावेळ सामकीं निवळ. उदक सामकें निळें. रातचें जायते लोक हांगा चलपाक, धांवपाक येतात. ह्या वेळार कितें तरी बांदकाम चालू आशिल्लें.

थंयच्यान आमी 'वॉटर कनाल क्रिक' पळोवपाक गेलीं. हो वाठार इतलो सुंदर, उबे रावन फकत पळयत रावप दिसता. उदकाचे देगेर बांदिल्लो लोकांक चलपा खातीर 'फूट ब्रीज' आनी भोंवतणी चकचकपी व्हड व्हड इमारतीं. हांगा तीन फूट ब्रिज आसा. रातचें हें चलपाचे पूल सुंदर दिसतात.

थंयच्यान मागीर जेबीर पळोवपाक गेली. हो वाठार खरो पायांनी भोंवप. वाटेरभर रस्त्याच्या दोनूय वटेन हॉटेलां, कॅफेस् आनी चलपाक रूंद फुटपाथ. भरपूर गर्दी. कांय हांगा स्थायीक जाल्ले लोक आनी कांय पर्यटक. ल्हान, कांय म्हयन्याच्या भुरग्यांक, भुरग्याच्या

गाडयेंत घालून चलपी जोडपी. पंगडान भोंवपी पर्यटक आमीं मात सगळों वाठार गाडयेंतल्यानूच पळयलो. हो झगमगाट पळोवपाक पर्यटक हांगा येतात. चडश्या देशांतलें नागरीक नेमान भोवतात. भोंवडी हो तांच्या जिविताचो एक भाग. जशीं आमीं लग्नां-कार्यांक, शिक्षणाक पयशे साठयतात, तशेंच आमी भोवपाकूय पयशें साठोवपाक जाय. भोंवडी करप तितलेच गरजेचे.

दुबयचें आनीक एक आकर्शण म्हळ्यार डेसर्ट सफारी. ज्या गजालीचो कांयच उपेग जावचो ना, अशें आमकां दिसता त्या गजालीचो वापर करून कसो पयसो जोडूं येता तें हांगा पळोवचे. डेसर्ट सफारी म्हळ्यार वाळवंटात गाडयेंत फिरप. पर्यटकांक हमर गाडयेन रेवेंच्या दोंगरांचेर फिरपाक व्हरतात. गती चड जाय कांय कमी हें पयलींच सांगप. एका गाडयेंत पांच ते स जाण जातात. आमीं २०१४ त गेल्ले तेन्ना ही डेसर्ट सफारी केल्ली. ह्या वेळार परत थंय वचूंक ना. तेन्ना आमीं चड गती आशिल्ली फास्ट रायड घेतिल्ली. पयलीं टायराचें वारें कमी करतात. एका बरोबर दोन तीन गाडयो वतात. कसलीच अडचड आसल्यार मदत मेळची वा चुकून ड्रायव्हर वाट विसरत म्हणून हीं येवजण.

आमकां दिलबर नांवाचो पाकिस्तानी ड्रायव्हर मेळिल्लो. हांगा चडशें ड्रायव्हर पाकिस्तानीच आसतात. ताणें गाडी सुरु करीना फुडें सांगलें, गाडयेंत ओकप बी ना. १०० दिरम फायन पडटा. गाडयेंत पिशव्यो दवरिल्ल्यो. ओकपाक आयल्यार त्या पिशवेंत ओकप. तो बरोच बडबडटालो. मम्मीन ताका सहज विचारले, 'तूं भारतांत आयला?' जाल्यार ताणे म्हळें, ''तुमचो सरकार आमकां व्हिसा खंय दिता?'' आनी लागलो कितें कितें सांगपाक. हांवें मनांत म्हळें, पाकिस्तानी मनीस खंयूय पावूं भारताविशीं आशिल्ली अडी मात हांची केन्नाच वचना. आमकां बरी दोन तास फिरयलीं. एके कडेन ह्यो तिनूय गाडयो रावल्यो. सकयल देवन आमीं रेवेर बसलीं. फोटो काडले.



मागीर ह्यो सगळ्यो गाडयो पर्यटकांक वाळवंटात मदीं एका जाग्यार व्हरतात. कांय ल्हान ल्हान तंबू घाल्ले. ल्हान ल्हान दुकानां, मेथी काडपाचे स्टॉल. तांचे परंपारीक पोशाक दवरिल्लो. ते घालून फोटो काडूं येता. पयशें दिवप ना. डेसर्ट सफारीच्या तिकेटी भितर हें सगळें येता. जांकां हें कांय नाका तांणी थंय घाल्ल्या बसकांचेर बसप. पिवपाक कॉल्ड ड्रिंक्स आनी स्नॅक्स् दिल्लें. मागीर हांगा बॅली डान्साचो कार्यक्रम आशिल्लो. मागीर बुफे पद्धतीचे जेवण. तेन्ना जानेवारी म्हयन्यांत हांगा बरीच थंडी पडिल्ली.

जगा वेगळें कितेंय तरी करपाचो ध्यास दुबयक लागला. हांगा दर धा म्हयन्यांनी कितेंय तरी नवें बांदकाम चालू करतात. तशेंच एक अजाप म्हळ्यार पाप जुमेरा. दर्या पुरोवन तयार केल्लें हें बेट. ह्या बेटाक ताडाच्या झाडाचो आकार दिला, म्हूण पाम जुमेरा हे नांव दिलां.

सैमान तयार केल्लें न्हय तर मनशान तयार केल्लें बेट. २०१८ त आमी हें बेट मानोरेलिंतल्यान पळयल्लें. ताका पाम मानोरेल रायड म्हणटात. ड्रायव्हर नाशिल्ली ट्रेन. रेल्वे स्टेशन सामकें चकचकीत आनी सुंदर. तिकेट घेवन आमी तिसऱ्या माळ्यार गेली. ट्रेन येता हो संकेत येतकच थंय मारिल्ल्या हळदुव्या रेशे मुखार वचप ना. ट्रेन थांबतकच मागीर दार उगडटकच भितर वचप. ट्रेन सामकी निवळ. हारशें चकचकीत. ट्रेनिंतल्यान पाप जुमेरा पळोवप हो एक वेगळो अणभव आशिल्लो.

ह्या फावट पुराय माप जुमेरा आमी गाडयेंतल्यान पळयलो. अर्थांत दोनूय अणभव सामके वेगळे. एकूच जागो दोन तरेच्या वेगळ्या वाहनांनीं सामको वेगळों अणभव आसता. हांगा व्हड व्हड इमारती येत आसा. जायती पंचतारांकीत हॉटेलां आसात. तशेंच दर्या पुरोवपाचें काम नेटान चालू आसा. हे दर्या पुरोवन ताजेर बांदकाम करपाचें तंत्रज्ञान तांकां बरेच सादलां.

संयुक्त अरब अमिराती ह्या देशांत म्हाका सगळ्यांत चड भाविल्ले राज्य म्हळ्यार दुबय. हांगाच्या सातूय राज्यांत आबू धाबी चड गिरेस्त राज्य. कारण तांच्या वांट्याक चड पेट्रॉल आयले. मागीर दुबय आनी बाकीची राज्यां. पूण तरी दुबयन केल्ली प्रगती दोळ्यांत भरपा सारकी. तशेंच तांचे कायदे आनी शिस्त शिकपासारकी. नेम सगळ्यांक सारके.

हांगा जर अपघात जालो आनी कोणूय सामको चड जखमी जालो जाल्यार एक हॅलिकॉप्टर थंय देंवता आनी त्या जखमी जाल्ल्या मनशाक हॉस्पिटलांत व्हरता. तो मनीस श्रीमंत आसूं वा सादो कामगार. हांगा भेदभाव ना. मनशाक मनीस म्हूण सन्मान आसा.

दुबय जिविताचो एक शाश्वत नेम पाळटा, तो म्हळ्यार वाड आनी सुदारणा. जें वाडना तें ना जाता. हो नेम सैमाच्या दर एका गजालीक लागू पडटा.

संपर्क: 9850149319



# बंद

**व्यालि क्वाड्रस**

‘बंध’ जशें सब्ध सांग्ता; एका रितिचें कुडेंपण. जो एक मनीस आपल्या जिण्येंत, ओपल्येच लामी आसोन, आपणाचोच इतलोय निस्वार्थी मापान मोग कर्तेल्याचो खरो मोग समजोंक सकानासल्ल्या एका साहित्यिकाक समजावंक यत्न कर्न जैत जोडले एके चलियेचे जिण्येचेर गुंतल्ली काणी.

प्रसतावनेंत हीं उत्रां दाट अक्षरांनी बरयिल्लीं.

‘बंध असलिच्च काणी. जो रानांत रुकां मधें जियेवन्यी रुक म्हळ्यार कितें म्हळ्ळेंच नेणा जाल्ल्या, गिन्यान वांटूंक उबो जावन खुद्द रितेंपण भग्तेल्या साहितीक शिक्षकाची. कांय वीस-पंचवीस वर्सांधली ही काणी एका अस्वाभावीक पूण धयरावंत चेडवाची, जी सतान, नितीन जियेवंक आशेताली, आपलें सोबीत चिंताप घेवन, ह्या क्रूर संसाराक आनी ताच्या कराळ चिंत्पाचेर आरसो धरूंक प्रामाणीक यत्न केल्ले एके चलियेची काणी. आज ह्या बुका रुपार तिका समर्पीत.’

बुकाचें उग्तावण जातेच्च ‘लेखकाचीं दोन उतरां’ उचारल्ल्या म्हज्या उत्रांक ताळियो सयत पडल्ल्यो.

***

‘पत्र समाजेचो दोळो तर, साहित्य मत’

अजून उगडास आसा म्हाका, साहीत शिकंवच्या पयल्या क्लासेंत सुरवात केलेल्या उतरांचो.

‘सर, मत न्हय दीश्ट’

म्हाका पाटीं जवाब दीवन तिद्वण केल्ल्या त्या विद्रूप चेडवाचो कर्कस आवाज कित्याक्की चाबूकेचे मार दिताले.

‘मत नातल्ली दीश्ट तीन कासांक्यी उपकाराक पडनासची’

हांवेंयी तेच्च प्रकार जाप दिल्ली.

पयलेच क्लासेंत हो अकमान म्हाका नाकासल्लो.

तें तोंड काळें करीत अपलेसतकीं हासोन व्हगी रावलें.

***

कामाचे सोधनेर मायानगरीक पावल्ल्या म्हाका काम जाय आसलें. त्ये सारकें शिकाप जावं अनभोग त्ये वेळीं म्हाका नासल्लो. हव्यासाक लागोन कांय थोडें बरयिल्लें, जांव तें मौल्य-मापाचे नदरेन पळेल्यार कांय तीन कासांचें म्हण म्हाका केदिंच. भगानातल्लें. हां! व्हय... कांय थोड्या बरपांनी इनामां जोडल्लीं, पत्रांनी तस्वीर छापल्ली. गांवार व्हळकेचो जाल्लों.

“इतल्यांतच पोट भरतांय रे?... वोंटार मिशियो फुटल्यो तरी तकलेर जवाबदारेचें वोजें ना, कितलो तेंप आवय-बापायच्या गुसत्यार जियेतलोयरे?”

जिवितांचें मौल्यमाप ‘मनशान कमांवचें दुडवान मेजच्या समाजाक’ कितें पडोन गेलां खंचें नैतीक आनी खंयचें अनयतीक? वार्जीक करूंक म्हजे लागीं कितेंच नातल्लें.

दीस भर काम कर्न सांजेर एक ग्लास सोरो पियेतेच्च सदांय आनाचे पुपुरि तडवोंक जायनासतां, मांयन अपल्या हाताचीं कांगणां आडोन घालन थोडो दुडू दीवन म्हळें “अळे पुता, आनाक चूक समजानाका, ताका तुजेर आसच्या फिकिरेंत हें सर्व सांग्ता, रीत चुकला जाव्येत, पूण तो नीत चुकाना, तूं हे पयशे घे आनी तुजो फुडार तूंच सोदून बरो जावन ये, तेदनां कांगणां सोडय. बोंबोंयंत आमच्या विलफिची आंगड आसा, आनी ताचिच्च म्हळ्ळी एक कोट्रियी आसा कंय, तुकाय तो त्या कोट्रेंत रावयतलो.”

अशें मायानग्रीक हजार सपणां घेवन देंवतेल्ल्या लाखों लोकां पयकिंत हांव्यी एकलों.

कांय संतान कुटमाचो न्हय तरी, आमच्याच गांवचो विलफी मोवाळ, प्रायेन कांय म्हज्याकी चार-पांच वर्सां व्हड पूण हंबाकी न्हय.

“भियेनाका रे... तुका काम मेळानासतां आनी कोणाक मेळचें... धयर घे... कसलीय गर्ज पडली तर हांव आसां.”

विलफिचीं धयराचीं उत्रां म्हजे कुसकोन वेचे मतीक नवें त्राण दिवंक सकलीं. देखून सदांय दिसाळीं घेवन खंयचर कामाचो आवकास आसा म्हळ्ळें सोदून आसलों. चडतावांनी म्हाका अनभोग ना देखून काम दिवंक जायना म्हण तोंडार सांगलें तर,

थोड्यांनी म्हाका फकत्त कमिशनाचें (सेल्समॅनाचें) काम करूंक सल्हा दिली. पुर्तो नागडो आसच्याक एक सुत्यी कांय इल्लो मान धांपूंक सक्ता म्हळ्ळें चिंत्लेन हें काम कऱ्यां म्हळ्ळी अलोचन कर्तासतां, एक जायरातार, 'संगीत, भास, साहीत शिकवंक टीचरां जाय' म्हळ्ळें वाचून भोव आतुरीत जालों.

''संसारांत जायती विध्या आसा जी शिकोन, समजोन घेव्येता, पूण साहीत एक देण, जी त्या त्या वेक्तिच्या चिंत्पांत उदेता. आनी एक शिक्षक जावन, ह्या चिंत्पाचेर आर्सो मात्र घालुंयेता शिवाय, कोणाचेंय चिंताप बदलूंक असाध्य. तुजी अभिपराय?'' जायरात दिल्ल्यान इंटर्व्यू कर्चे वेळार म्हाका विचारलें.

कितें जाप दितलों? म्हाका काम जाय आसलें,

''व्हय... व्हय.. जरूर... एक शिक्षक जावन, हांवें हें चिंताप मात्र दिव्येता, जशें घोड्याक उदाक दाखंवचें, पूण उदाक त्या घोड्यान मात्र पियेवंक साध्य.''

म्हजी जवाब आयकोन तो अपल्या मनांत कितें आटोव करिलागलो तें नेणां,

''तुका ह्या आधीं साहित्य शिकवन, व साहित्या विशीं आसच्या अनभोगा विशीं मटव्यान सांगशिगी?''

''हांवें एदोळ कोणायक्यी साहित्य शिकवंक ना, पूण कांय थोडें बरयलां, थोड्या बर्पांक इनामां लाभल्यांत, साहित्य शिकची/ समजोंची हुमेद आसा, देखून शिकव्येत म्हळ्ळो भर्वसो आसा, कित्याक म्हळ्यार साहित्य म्हजो हव्यास.''

''हांगा सर वेगळ्या वेगळ्या प्रायेचीं भुगीं साहित्य शिकोंक येतात, थोडीं दिसाक काम कर्चीं सकाळीं वेग्गीं या सांजेर तडव कर्न क्लाशेक येतात, देखून... तसल्यांक तुंवें साहित्य शिकवंक आसतेलें.''

म्हाका भितरले भितर संतोस जालो. म्हाका काम जाय आसलें.

''तुका आमी एक हजार रुप्यां थावन सुर्वात कर्तांव, थोडे मयने तुजें काम पळेतच्च उपरांत तुजो संभाळ कितलो चडयजाय म्हळ्ळें उपरांत निघंट करयां, कितें म्हणताय?''

हांवें ''जायत'' म्हळ्ळे अर्थान गोमटी हालयली.

''केदनां थावन काम सुरु कऱ्येत?''

''फाल्यांच थावन''

***

मुंबयच्या पोवायांत विलफिची आंगड आसली, आनी लागसार्च एक लान कोट्री. त्या कोट्रेंत, ताची आंगड चलंवचो, तशेंच हेर दोग रावताले. तांचे सवें म्हजीय रावपाची विलेवारी विलफीन करून दिली. सद्याक भाडें म्हण किर्तेंच दिवंक नातल्लें, देखून मेळच्या एक हजार रुप्यांत म्हजो खर्च काडूंक आसलो, तशेंच आवयचीं कांगणां सोडवंक थोडो थोडो दुडू जमवंक आसलो.

विल्लेपारलेच्या इरलांत एक कमर्शियल बांदपांत सभार रितिच्यो क्लाश्यो जाताल्यो. कोण भायल्या गांवच्यो भासो शिकयताले, कोण विवीध रितिचें संगीत शिकयताले. हाकाच मायानग्री म्हणतात कोण्णा. हांगा सर विकचेय धाराळ आनी घेंवचेय धाराळ. त्या त्या मनश्याच्या अवकातेक सरी जावन.

बगलेन कोलेज्यो आसात, इंग्लीश, हिंदी तशेंच मराठी माध्यमाच्यो. देखून सभारां ट्यूशन दितालीं. म्हजी पयली क्लास सकाळीं सात वोरां थावन नोव वोरां पऱ्यांत मात. आनी पयलें फकत्त तेगां आसलीं, थोडेच्च दिसांनी अन्येकलें सेर्वलें सिंतिया दाबरे.

***

म्हाका पयल्ये क्लाशेंतच ह्या विद्रूप चेडवाचेर कांठाळो उदेल्लो. कांय प्रायेन पंचवीस वर्सांचें, सुकोन कांटो जाल्ली बारीक कूड, काळें विद्रूप तोंड, गोमटेचेर एक धवें शीब. दोळ्यांचेर दाट ग्लासाचें चेस्मा आनी विचित्रि नडतें.

तेच्च बिलडिंगाच्ये बगलेन आसली आंगलो इंडियन चाळ, आनी त्या चालिच्ये बगलेर एक ग्रोट्टो आसलो. हांव सदांय त्ये ग्रोट्ट्या समोर वचोन हात जोडून, दोळे धांपून म्हज्या आवयचो उडास करून तिच्ये पासत सदांय माग्तालों.

बगलेन आसच्या एक सात माळियेच्या बिलडिंगांत भोवशा रावतालें सिंतिया. म्हाका तें समजोंक्यी नाकासलें.

पयले क्लासेंत एकामेकाची व्हळोक कर्चे संदर्भार, म्हाका कळ्ळें ना, हाका कशें उलो कर्चो म्हळ्ळो, देखून हांव मेडम म्हण उलो करुंक लागलों.

''सर. तुका कशें कळीत हांव्यी टीचर म्हणोन?''

कसलें अवासतवीक आनी पिर्शे सवाल? जितलें विद्रूपकी, तितलोच कर्कस आवाज ताचो.

म्हाका ताच्या सवालाचेर मात्सो राग आयिल्लो तऱ्यी, हांसोन जवाब दिली ''म्हाका रातच्या सपणांत आंज भडवो दिश्टीक पडलो आनी ताणें सांगलेंकी, फाल्यां सिंतिया दाबरे म्हळ्ळी टीचर साहीत शिकच्या क्लासेक सेर्वतेली'' म्हण.

सर्वां हांसलीं, तऱ्यी ह्या लज्मांडी चेडवाक लज ना, म्हाकाच्च पळेतेच्च परत सवाल करिलागलें ''आनी कितें सगळें त्या भडव्यान सांगलें?''

म्हाका कित्याकगी हें उलवणें मुखार व्हरूंक नाकासलें.

तें अजून म्हाकाच पळेवन आसलें पूण ताची मत कंयगी आसली.

''साहित्याचे वेवेगळे प्रकार, आनी एकेका प्रकाराचेर आमी समजव्येता, चर्चा कऱ्येता, पूण हांव हांगा सर कोणायक्यी साहित्य रसचें कशें म्हळ्ळें शिकवंक सकासोना, तें सृजनात्मक चिंत्पाच्या वेक्तिच्या अभिव्यक्तेचेर आसा.''

म्हाका कित्याकगी कांठाळो येतालो, ज्या मापान हें विद्रूप चेडूं म्हजेर पळेतालें देकून.

दोन वोरांची क्लास संप्तच सर्वां वेच्याधीं, एक सवाल विचार्न गेलें ''सर, तुमकां कितले भाव-भयण्यो?''

हांवें जापच दिलिना.

***

अशें सकाळीं सात वोरां थावन सांजेर चार वोरां म्हणासर काम जातेच्च, हांव बी.एसटी बस्सार पोवाय वेतालों. सकाळीं कांय हून चायेसवें सुको ब्रेड खावन येतालों, दनपारां जेविनातल्लों, देखून सांजेर गेल्लोंच परत एक ब्रेड खावन उदाक पियेतालों, उपरांत कांय इल्ली तरकारी हाडन, चिमणे तेलाच्या स्टोवांत पेज शिजवन, तरकारी आनी लोणच्या सवें जेवतालों.

दीस संपले परिंच ही म्हजी सदांची संवय, यांत्रीकृत जाली, जशें बगलेन जियेतेल्या सबारां परीं. आपलीं सर्व कामां खुद्द करूंक शिकल्लो वांचलो ह्यो मायानग्रिंत.

सकाळीं उटोन डब्बो घेवन पबलीक खाकुसाचे लायनीर उबो रावचें. उपरांत येंवच्या धा मिनुटांच्या उदकाच्या नळा सकला बसोन न्हांवचें, वेगीं वेगीं न्हेसोन वचोन बी.एसटी बस्साच्या लायनेर रावचें.

म्हाका दिसाक फकत्त तीन क्लासी घेवंक आसल्यो. सकाळीं साता थावन नोव म्हणा सर, उपरांत इक्रा थावन एका पऱ्यांत, आनी एका थावन तिना पऱ्यांत.

हेच्च वेळार, सांजेर सात वोरा थावन नोव वोरा पऱ्यांत क्लास आसा तर त्या क्लाशेंत येवंक म्हण दोगांनी विचारण केल्लें देखून, म्हाका विचारलें, जर हांव तयार आसां तर. म्हळ्यार सकाळीं सात वोरा थावन सांजेर नोव वोरा पऱ्यांत काम.

एदोळच म्हजो सांभाळ एक हजार आसलो देड हजार केल्लो, आनी आतां जर सांजेर सयत क्लास घेवंक सक्तलों तर परत पांयशीं रुपय चडयतांव म्हळ्ळें आयकोन म्हाकाय हुमेद चडली आनी हांव्वी खुशेन ओपवल्लों.

***

'जिवीत एक रंगमंच, मनीस एक कटपुतळी, मोग एक रंग, संबंध एक गांच....'

'सर... जायत्या बोलिवूड फिल्मांनी हें आयकालां... कांय नवें सांग.'

म्हाका मधेंच कात्रून, तेंय चाबूकेच्या मारा परीं तोंडार्च सांगच्या त्या विद्रूपी चेडवाचें धयर पळे कितलें?

एका घडये म्हाकाच अज्याप जालें, पूण म्हाका ज्ये कितें बुकार आसा तें सांगोंक आसलें.

***

आतातां संवयशी जाल्या...

हांव कितेंय सांगलें तर... सिंतियाचें उल्टें उलवप तयार आसलें. देखून कशें तऱ्ही एक पावटीं हाका बूद शिकय जाय म्हळ्ळ्या इरादयान सिंतियाक पाटीं सवाल केलें.

''सिंतिया, तूं सांग. मनीस जितलो विशाल जावंक आशेता, चंद्रेमाचेर चडता, दऱ्याच्या गर्भांत रिग्ता, वाऱ्यार सयत उभता, तऱ्ही, अपलेंपण, अपलीं-पेलीं-हाचेर मनश्याचें चिंताप संकीर्ण कित्याक जाता?''

''सर... मनश्याच्या चिंताप आनी अत्रेगा मधलो अंतर चडोन वेता देखून.''

''वाट नोन्सेन्स?'' हांवें एदोळच आयती केल्ली जवाब ताका दिली, म्हाका जाप नाकासली, सिंतियाक कशें सकला घाल्वें म्हळ्ळें जाय आसलें.

''सर. अत्रेग काल्पनीक, हाका विग्यानाचो आधार घेव्येता आनी सुफळ कऱ्येता... पूण अपलीं-पेलीं म्हळ्ळीं चिंत्नां आनी विचार मात्र भौतीक. संसारांत हांकां मोल ना. संसार रंगमंच न्हय, एक बजार. हांगा सर जें दिख्ता तेंच विख्ता. हांगां रंगाक मोल, शिवाय अत्म्याक न्हय, हांगा भायलें रुपच सोबाय, भितरलो अत्मो न्हय...''

ताचें राजांव म्हाका समजोंकच नाकासलें. कशें तऱ्ही ताका दु:खवन तऱ्ही चूप करिजाय म्हणच्या इरादयान हांवें उचारलें.

''तुका शेमांव दिवंक सांगोंक ना.ते तुजे विचार. हांवें फकत्त एक निर्दिश्ट विशयाचेर सवाल विचारलें, तुवें जवाब दिली, आनी म्हाका ती सार्की म्हण दिसोंक ना.''

''सर, तर म्हाका तिद्वून सांगा... खंचें सार्कें?''

''समजोंक सक्तेल्यांक समजांवचें पिशेंपण... समजानातल्ल्यांक समजावन फायदो ना'' सत सांगचे तर, म्हाकाच हांवें विचारल्या सवालाची जवाब कळीत नातल्ली, आनी सार्की जवाब दिल्या ताची जवाब स्वीकार करूंक म्हजे भितरलो 'इगो' सोडिनातल्लो.

***

आयलेवार नवो संगीत शिक्षक जावन केरळ थावन आयिल्लो तोमस लूकस भर्ती जालो. संगीत शिकच्या भुर्ग्यांचो संखो व्हड आसलो, तेच्च प्रकारान तोमसाचो सांभाळ्यी म्हज्याकी दोडतो आसलो. बोंबोयक तो नवो देखून म्हजें हांव दनपाराचें खंय जेवतां हें विचार्तालो.

मायानग्रिंत हर रितिचे मनीस जियेताले, आपापले जिण्येरितीन, आनी ह्या सर्व लोकांच्या सपणांक हकीकत कर्ची श्याथी ह्या मायानगरीक आसली. तेच्च देखून मयन्याक पांयशीं रुपय जोडचे जियेताले, तेच्चपरकारान मयन्याक हजारांनी जोडतेले सयत जियेताले.

पन्नास मिटार अंतरार आसच्या मेयन रोडार जायत्यो हातगाडियो आसल्यो, आनी सबार लोक थंय वचोन वडापाव, समोसा, वा हेर खाणां खातालो. सवायेंत तशेंच वेग्गीं खाण मेळतालें देखून, हांव्यी तवळतवळ चडताव हांगाच्च वचोन वडा-पाव खातालों आनी पोट भर उदाक पियेतालों.

हाच्याकी चडीत खावंक चिंतलें तर, गांवांत आडोव आसच्या मांयचीं कांगणां सोडवंक हऱ्येका मयन्यांत जमो करूंक पयशे उरानासले म्हळ्ळें सत हांव जाणासलों.

थोडे दीस तोमस सयत म्हजे सवें ह्या गाडियेर विकचे वडा-पाव खातालो, पूण ताका हें खाण कित्याकगी रुचनातल्लें. कोण रुचीक खातात, हांव मात भुकेक खातालों. सकाळ सात वोरा थावन सांजेर नोव वोरां म्हणसर हांवें रावोंक आसलें देखून हाच्याकी चडतीक खावंक म्हज्या बोल्सांक श्याथी नातल्ली.

दीस गेल्ले परिंच, कशेंगी तोमसाची सिंतियान व्हळोक कर्न घेतली आनी सिंतियान तोमसाक, लागशिल्या एका घर्चो पत्तो दिलो. थंय सर मयन्याक शेंबोर रुप्यांक बरें जेवण मेळता म्हणोन सांगलें.

हांवें लेक घालें, दिसाचें एक वडापाव आनी एक चाय पियेलों तर, अडेज रुपय दिसाचे, म्हळ्यार मयन्याक सत्तर आनी पांच रुपय. पूण हांगा सर शेंबोर रुप्यांक जेवाण मेळता तर तें बरेंच. हावें मतींत आटोव घालो.

एका दनपारां तोमस आनी हांव सिंतियान दिलेल्या पत्त्याचेर गेल्यांव, लागिंच आसली ल्हान कोट्री, भितर भोवसा दोन कुडां. आनी ही कांय पन्नास उतरल्ली मुसलीम बायल, आमकां हासोन स्वागत दिलो, आनी म्हणाली;

''तुमकां फूल जेवण वा दाल रैस - फूल जेवणांत दोन चपाती, एक गोडशें, शीत, दाळ मेळता, दाल रैसांत फकत्त दाल आनी शीत.''

आमी एकामेका पळेवन चिंतूंक पडल्यांव. तोमसान अपणाक फूल जेवण जायत म्हणताना तिचें तोंड फुल्लें.

तिणें मुखार्सिलें ''फूल जेवणाक अडेयशीं रुपय, दाल रैसाक देडशें रुपय मयन्याचे.''

तोमसान आतांय जायत म्हळें, पूण हांव अज्याप पावलों, पूण आमकां 'मयन्याचे शंबर रुपय' मात सांगल्ले देखून हांगा सर आयिल्ल्यांव.

''आयच्या मार्गायेंत शेंबरांत कितें जाता? आमी कांय चालू वर्गाचें तेल, तर्कारी वापारिनांव.''

हांवें जायत म्हळें, अशें आमच्या जेवणाची विलेवारी जाली.

तोमसाक पयली प्लेट, आनी पयलें जेवण. म्हाका उपरांत प्लेट आनी उपरांत जेवाण. आमी दोगांय जेवन सांगाता वेताल्यांत.

एका दिसा अवचीत म्हळ्ळेपरीं बोंबोय बंद...

आमकां रजा नातल्ली, देखून आमी हर्शेंचे परीं सदांच्या वेळार जेवणाक गेल्यांव, तिचीं काम कर्चीं भुगीं आज रजेर घराच्च आसलीं. भितरले कुडांत बोसोन आसलीं आमकांच पळेवन आसलीं.

आज कित्याकगी आमकां दोगांयकी एकाच वेळार आयलें. तोमसान आपली प्लेट घेवन एका कदेलार बसोन जेवाण सुरू केलें आनी हांवें म्हजी प्लेट घेवन एक घांस शीत तोंडाक घाल्ता कितें पळेतां... काल्ची दाळ जायजय; बेळशेल्ली... जितली भूक लागल्लिकी, तितलोच निरासलों. पूण उलवंक उपाव ना. कांय उलयलों तर, ती परत पुर्पुरत 'तुवें दिंवच्या शेंबोर रुप्यांक आनी कितें जाय?' म्हळ्ळे भिंयांत वगोच जेविनासतां रावलों.

तोमसान जेवाण संपयलें तऱ्यी हांवें जेविनासतां आसचें भितरले कुडांत, ब्यांकांत काम कर्न आसच्या तिच्या धुवेन पळेलें, आनी भायर येवन 'सर तूं कित्याक जेविनांय? कांय हाडूं?' विचार केलो.

''म्हजें पोट कित्याकगी सार्के ना... भुकच लागाना... देखून म्हाका इतलें पुरो''. म्हण प्लेट तिच्या हातीं दिली. तिणें दोनी प्लेट घेवन भितर वचोन, म्हज्या प्लेटीक हुंगोन पळेताना तिका सत कळ्ळें. आमी दोगी हात तोंड धुवन वेताना भितरल्या कुडांत आपल्ये आवयचेर धेंकणो घाल्च्या धुवेचीं उत्रां म्हज्या कानार पडलीं;

''तुका कित्याक असलोय अंगालाप? तुका साध्य ना तर, शीदा सांग जेवाण दीना म्हण, अशें कित्याक शेंबोर रुप्यां खातीर अल्लाचो शिराप मागोन घेताय?''

तोमसाक भिल्कूल अंदाज नातल्लो तऱ्यी म्हज्या काळजाक हीं उत्रां आयकतालीं.

दुस्रे दिसा थावन हांवें हांगा सर जेवणाक वेचें रावयलें.

***

थोड्या दिसां उपरांत, हांवें तोमसाक समजायलें हकीगत कितें म्हण. तोय हांसलो. ही मायानग्रिची हकीगत.

एका दनपारां हांव हर्शेंचे परीं हात गाडियेर विकच्या वडा-पाव खावंक वेची अलोचन कर्ताना, एक पोतें घेवन आयिल्ल्या सिंतियाक पळेवन अज्याप जालों. सिंतियान आपणा खातीर भुती हाडल्ली. विज्मीत पावलों, एका वाटेर अज्याप, अन्येका वाटेर भूक.

''सर... बेजार जायनाका... कित्याकगी... हांवें आज तुमकां जेवाण दीजाय म्हण भगलें देखून हाडलें, दय करून आतां नाका म्हणोन म्हाका निरास करिनाकात.''

हांव कितें कर्चें कळीत नासतां, जायत म्हण ताच्या हातांतलें पोतें घेवन, भितर वचोन जेव्यां म्हण भुती सोडयली. एका डब्ब्यां मास, अन्येका डब्ब्यांत चपात्यो. मासाच्या पर्मळाक म्हज्या तोंडांतून शिंपी गळोंक लागली देखून चपात्यो काडतां तर, कितें पळेतां, दाट चपात्यो, पिटाचो मुदो, चडताव कर्पाल्ल्यो भाकऱ्यो... कोण खायत असलें जेवण?

हांवें तें खाण व्हर्न डब्ब्याक घालन, कोणाकच कितेंच सांगिनासतां डब्बो प्याक कर्न पोत्यांत दवरलो.

दुस्रेदिसा सकाळीं क्लाशेक आयिल्ल्या सिंतियाक पळेवन म्हजे दोळे रागान तांबडे केले, तें कितेंच उलंवच्या स्थितेन नातल्लें.

''बरें साहीत्य रचूंक, एका साहितीक बरें वाचाप जितलें प्रमुखगी, बरें चिंताप्यी तितलेंच गर्ज. मनिस्पी तसोच्च, बरें खाण खातेले मात्र बरो भलायकेंत जियेवंक सक्तात, कर्पाल्ल्यो, भुकटेल्ल्यो भाकऱ्यो खावन न्हय. वाग कितलो भुको जाल्याऱ्यी, तण खायना, हें पयलें समजंवचें गर्जेचें.''

कित्याकगी म्हज्या ताळ्यांत आसचो राग, एकेका उत्रांत सिंतियाक तोप्तालो म्हळ्ळें ताच्या दोळ्यांनी देंवचीं दुकां साक्ष दितालीं. सिम्रिचीं दुकां... हांवें मतिंतच आटोव केलो.

***

थोडे दीस सर्तच्च म्हाका तोमसा थावन आयकोंक मेळ्ळें की, सिंतियान दिल्ल्या पत्त्याचेर वचोन बेळशेल्लें जेवाण पळेवन हांव दनपारां सार्के जेविना देखून आपल्या खुद्द हातांनी ताणें भाकऱ्यो कर्न हाडल्ल्यो. आनी भाकऱ्यां सवें ताणें आपले हात सयत लासून घेतल्ले म्हण.

म्हाका हें आयकोन ताचेर एकारितीन बिर्मत्यी दिसली. पूण ताच्याकी चडीत रितीन अज्याप भगलें. हें कोण सिंतिया, कित्याक अशें कर्ता? नाका नाका म्हळ्यारी ताका एक साहितीक हव्यासी जावन एक पावटीं समजव्यां, म्हळ्ळीं चिंत्नां मतीत आयलीं. ते दिसा थावन कित्याकगी सिंतियाचेर इल्ली मोवाळाय दाखयली.

कसलें विपर्यास? हांव तिका कविता शिकयतालों आनी तें माका जिवीत शिकयतालें.

एका सकाळीं क्लास जातेच्च तें म्हजे लागीं उलवंक आसा म्हण रावलें.

''सर... येंवच्या हाफ्त्यांतल्या सन्वारा आमच्या घरांत मरियेची इमाज हाडता, देखून घरांत मागणें आसा, देखून आमी तुमकां आपवणें दिवंक आशेतांव, तोमस सराक सयत आपवणें दिलां, तुमी येश्यात तर तोय येता कंय''. म्हाका अज्याप शें भगलें.

''तुजो गांव खंय आसा?''

''मनोरी आयलेंड... मलाड ओरलेम उत्रोन वेताना तुमकां एक ल्हान बोटिचेर उत्रोंक आसा, आनी मनोरी आयलेंडार आमचीं सर्वां सयरीं, सर पूण दय करून तुमी जरूर येजय.''

सिंतियाक समजोंक हाच्याकी वर्तो आवकास दुस्रो ना म्हळ्ळें चिंताप मतिंत रिगलें. हांवें जायत पळेयां म्हळें.

***

तोमस आनी हांव दोगांय मेळोन सिंतियाच्या गांवाक वेची अलोचन कर्न नम्यारलेल्या दिसा तांच्या घरा पावल्यांव.

कांय पन्नास लोक एदोळच हाजर आसलो, शेजारचो लोक, सयरीं मेळोन.

सांजेच्या चारांक मरियेची इमाज हाडली आनी सर्व लोकांनी मागणीं, तेर्स भेटयलो. उपरांत गडदायेचें जेवाण.

तोमस आनी म्हाका सिंतियान आपल्या आवय बापायची वळोक कर्न दिली, तें मालघडें चेडूं, आनी ताचे पाटलीं दोगां चेडवां आनी निमाणो भाव... आनी सांजेर आमकां तें आपल्या पोदोर्नीच्या घरा आपवन वर्ता म्हणालें.

एक गजाल हांवें पार्किल्ली जावनासा, सिंतियाच्यो भयण्यो, भाव, आवय, भापूय सर्वां इतलीं गोरीं, दाटीं मोटीं आसलीं, सिंतिया भोवशे पिडेंत आस्येता म्हळ्ळो दुबाव आयलो. सिंतियाचो बापायचो एक हात नातल्लो, एका अवघडांत हें घडलें म्हण सिंतियान्च सांगलें.

सांजेर जेवाण जातेच, सिंतिया आमकां ताच्या पोदोर्नीच्या घरा आपवन व्हरून गेलें, भोवशा ताचो पोदोर्न आमचे विशीं पयलें सर्व जाणासलो, ताणें भोव मोगान आमकां स्वागत केलो. कांय प्रायेन पन्नास उतर. जेदना सिंतिया आनी तोमस भायर उलवन आसचे वेळार, ताचो पोदोर्न म्हाका भितर अपवन व्हर्न गेलो.

''पुता... सिंतिया मोगाळ भुर्गें... हांवें म्हजेंच भुर्गें म्हळ्ळे परीं पोसलां... तुवें काम कर्च्या लागसार म्हजें एक प्लेट आसा, तांतूं सिंतिया एकलेंच रावता आनी लागसिल्या इसकोलांत इंगलीश शिकयता. म्हाका भोव संतोस भग्ता तुमी आमचें आपवणें स्विकार करून आज आयल्यात...'

''ताच्यो दोगी भयण्यो काजार जाल्यो... पूण हें काजार जावंक आयकना... ताका पसंदेचो चेडो एदोळ मेळोंक ना. अशें म्हणता... आमीं दोतिरुपार कितेंय दिवंक तयार आसांव... हांवें जीव आसताना ताचें काजार जायजाय म्हळ्ळी मात आशा..''

तो उलवनूंच वेतालो, पूण म्हाका एक्की समजानातल्लें.

म्हजे मतींत कसलेंगी चिंताप सतायतालें. सिंतिया रुपरुप आपल्या पोदोर्ने परीं दिसतालें. तोच्च बारीक जीव, काळी कात, इतलेंच न्हय, ताच्या गोमटेचेर सयत एक धवें शीब आनी तोयी सिंतिया परींच दोळ्यांचेर दाट ग्लासाचें चेस्मा घाल्तालो.

म्हजी तकली घुंवली हें सर्व चिंतून...

सांजेर काळोक जावन येतालो, आमकां पाटीं येवंक आसलें देखून तोमस आनी हांव पाटीं येंवच्या वाटेर, तोमसान म्हाका सांगलें, त्या पोदोर्नेच्या घरा सिंतियाची आवय काम कर्न आसली... आनी तिचें काजार सिंतियाच्या बापायसवें करवंक सिंतियाचो पोदोर्न्च काराण म्हण.

म्हाका कित्याकगी हे सर्व गांच एकामेका गडसोन येतासतां वेवेगळे अर्थ दिताले.

....

आतां... सबार वर्सां पाशार जाल्यांत...

***

बुकाचें उग्तावण कार्न्यें बरे रितीन संपोन कांय हाफ्ते उतरल्यात, एका दिसा सकाळिंच कोणेंगी एक फुलांचो बुक्को आनी सवें एक कागाद धाडलां. एदोळ कोणेंय हये परीं करूंक नातल्लें देखून हांव्यीं चिंतूंक सकलोंना ही कसली गोश्टी म्हळ्ळी. फुलांचो बुक्को भायल्या सालांत दवर्न तें कागाद घेवन भितर गेलों,

'शाभासगी पाटंव, या उपकार बावडूं कळाना,

तुवें इतल्या वर्सां उपरांत तर्न्यी उडास काडल्ली गजाल म्हाकाच विज्मीत कर्ता, पूण नेणा कोणा खातीर.

जी चली, जिका तुज्या 'बंद' काण्येंत प्रमूख पात्रार तुवें पित्रायलां, तिची मोगाची काणी अधुरी कित्याक सोडल्याय, कांय दुस्रो भाग काडच्या तयारेंत पुणी न्हयमूं?

बरें, तुका थोड्यो संग्त्यो कळयतां,

तुवें तुज्या काणयेंत पिंत्रायिल्ल्या चलियेची काणी, म्हज्या व्हड भयणिच्या काण्येक ताळ पडता, जी सदां अपणाक इनफीरियर म्हण समजताली, गर्जे भायर अपणाक आपल्या भयण्यां समोर कुरुपी म्हण समजताली. पूण आमी सर्वांनी तिचो इतलो मोग केल्लो, केला, पूण जिण्येंत तिणें भोवशा मोग केल्लो एका पर्की शिक्षकाचो, जो कांय वीस-पंचवीस वर्सांधीं तिका साहित्य शिकयतालो.

हांव जाणां, हांतूं त्या शिक्षकाचो कांय गुन्यांव ना, कित्याक म्हळ्यार तो दोळे आसोन्यी कुड्डो जावनासल्लो. इतलो तेंप ताणं 'समजांवचें' प्रेतन केल्लें, पूण केदिंच 'समजोंचें' न्हय. केल्लें तर, ताच्या जिण्येंत एदोळ कोणेंच करिनातल्लो मोग कर्चें एकलें ताच्याच संसारांत जियेतालें म्हण. तेंच भयण म्हजें, हाचे पासत दीस-रात गुपीत दुकां गळयतालें, ताच्या हर्येका गर्जां पासत खंत कर्तालें.

एका दिसा तो आमगेर आयिल्लो, सर्वांक मेळल्लो, आमकां सर्वांक तो पसंद जाल्लो, कांय त्या अधुरी मोगाच्या काण्येक परिपूर्ण कर्तलो म्हळ्ळो भर्वसो सर्वांक आमकां आसलो. हेच्च भर्वश्यान आमी आमचे भयणीक अपल्या काळजाचे उमाळे वेक्त करुंक प्रेरीत केलें आनी तिणें तें एका ल्हान कागदांत बरवन ताका दिलें, तांतूं इतलेंच बरवन आसलें 'जिण्येंत केदिंच मोगार पडोंक ना, आतां तुजे शिवाय म्हाका संसार दुस्रो ना, तूंच म्हजो उस्वास, तूंच म्हजें जिवीत. एक आवकास दी, तुजी जिण्ये पयणाची वाट केदींच बावानांतल्ल्या फुलांनी सजयतां.'

आनी त्या येमकुळ्यान दिल्ली जबाव 'तूं म्हजें जिवीत तर, हांव मरण स्विकार कर्तां, तुजेर एका मनशापणाच्या चिंत्पान उलयतां तर्न्यी, म्हाका तूं खंच्याय नद्रेंत मनीस म्हण भगाना. सत सांगचें तर, तुजे विशीं चिंतानांच म्हाका जिविताचेर कांठाळो येता. बरें हें आसतें, तूं म्हाका तें कागाद बरंवच्या बदलाक कांय वीक घेतेंय.'

संसारात कितलें वीपऱ्यास घडता न्हय? तें भितर इतलें सोबीत आनी तो भितर इतलो कुरुपी, पूण संसारान देखची रीत वेगळी न्हय?

हाणेंय तेंच केलें ज्यें ताणें फर्मायिल्लें; आपल्या जिण्येन समजोन सकानासचें भोवशा अपलें मोर्न समजायत म्हळ्ळें पिश्यान वीख घेवन आपलें जिवीत संपयलें. आनी कित्याकगी म्हाका भगलें, हें तुका बरवंकच्च जाय, न्हय हें वाचून म्हजी भयण जिवंत जातली म्हणोन, बगार तूं एक पावटीं तर्न्यी तुजें 'बंद' आसचें गिन्यान उघड म्हणोंक.

तुका, तशेंच तुज्या बुकाक बरें मागतां.

....

....

वाचून आतां हांवें म्हज्या कुडाचें दार्न्यी बंद केलें.



# ख्यास्त

आशा शानभाग

"रमेश आनी सीमाची जोडी मस्त... द बेस्ट दिसताली हां." ह्या उतरांनी सुधाबायन... रमेशाचे आवयन सुने विशींची आपली पसंती उकतायली. तिवूय भर सभेंत... चलयेक पळोवपाक आयिल्ल्या थळार. जालें... फायनल डिसीजन जालें... आनी तेच बसकेंत तांच्या लग्नाचें फिक्स जालें. रमेशाच्या मनांत सीमा केन्ना सावन रिगिल्लें. धडधडीत तोंडार सांगपाची मुरवत दिसताली ताका. देखून ताणें आई-बाबाच्या आदारान सीमाक पटकायलेंच.

लग्ना उपरांतचे नव्या नवलायेचे दीस झोंपाळ्याचेर झुलिल्ले वरी सोंपले. पयल्या वर्साच्यो तांच्यो नव्यो जोडयेच्यो परबो दोनूय घराब्यांनी मोठ्या दबाज्यान मनयल्यो. देणीं-घेणीं... वजीं-भाडीं... न दुखतां न दुखयतां खोशयेन जालीं. लग्नाचो पयलो वाढदीस तर भाड्याच्या हॉलांत गडगडान जालो. सुधाबाय आनी रमाकांतबाबाक आतां दुदा वेले सायेची ओड लागली. जांव नातू वा नात... पूण पुताचीं भुरगीं खेळोवन दोळे धापचे अशी इत्सा दोगांयच्या मनांत फुलपाक लागली. आजो-आजी जावपाचे उमळशीकेन ताणीं रमेशाक विचारलेंच, "रमेश... तुमचें प्लॅनिंग बी कितेंय आसल्यार वर्स भर केलां तें पुरो, आतां बेगोबेग आमचे मांडयेर कोणूय तरी दियात..."

रमेश-सीमाय हे चत्रायेन सादूर जाली. भायले भायर... घरांत सुलूस न दितां दोगांय गायनॅकाक मेळ्ळीं. दोगांयच्योय वांगडा टेस्टी केल्यो. "परवां सांजचो रिपोर्ट रेडी जावन मेळटलो. तुमी एरवां येयात. दोगांय येयात. दांपत्य जिणेंत खरें-फट दोगांकय कळप गरजेचें." फाल्यां सरलो... परवांय सरून एरवां उदेलो. "सीमा... हांव ऑफिसांतल्यान भायर सरून तुका पिकअप करतां... दोगांय दोतोराक मेळुंया." गाडयेंतल्यान आपल्या ऑफिसा कडेन देंवपी सीमाक रमेशान म्हळें. ऑफिसात गेल्यार रमेशाचें मन मात कामात



लागना जाले. ताच्या मना-दोळ्यांसामकार भावनीक सीमाचें चित्र येवंक लागलें. 'कर्मधर्मसंयोगान... सीमा मदीं कितेंय कमी... देवा तशें करुं नाका. भुरगीं ना जाल्यार पोसकें घेयन... पूण नाका देवा. ताच्या मनाचेर घावो घालीनाका." सीमा मदीं कितेंय उणाव आसल्यार तें सहन करत? भावनीक... हळव्या मनाचें सीमा.. जिवाचें बरें वायट... थुमेकाल...

रमेश तसोच गाडी घेवन दोतोरा कडेन गेलो. दोतोराक कितेंय कारणां सांगपाची तयारी दवरूनच तो क्लिनिकाचीं सोपणां चडलो. "सीमा येवंक ना?", "दोतोर... म्हाका रिपोर्ट जाणून घेवपाचो आसा. सीमा अशें-तशें किदेंय सहन करपाक शकचें ना. म्हणून दोतोर प्लीज..." "सॉरी टु से... बट रमेश. सीमा मदीं कांयच कमी ना... कायच उणाव ना... ते केन्नाय आवय जावक शकता." "मागीर दोतोर? वेट... वेट... म्हणजे तुमकां म्हजे मदीं..." "सॉरी रमेश... उणाव तुजे मदीं आसा. तुजी लो मोबीलिटी... सॉरी पूण इनक्युरेबल स्टेजीची आसा." "दोतोर... मागीर?" "उपाय आसा... टेस्ट ट्यूब. तुमी दोगांय उलयात आनी थारायात." पुराय मोडून गेल्लो रमेश उठ्ठा...

"सांजचो सीमाक घेवन येता. तुमीच सांगात ताका की दोतोर... आमचे दोगांय मदीं दोश ना." दोतोराक फट मारप हें एथिकसांत बसनाशिल्लें. "रमेश तुमी समजीकायेन आनी विचार करून एक तर टेस्ट ट्यूब करात वा पोसकें घेयात." "सॉरी दोतोर... म्हाका म्हज्या रगताचें भुरगें जाय आसलें. टेस्ट ट्यूब वा पोसकें हाची गॅरंटी कितें?" "रमेश भुरग्याचेर बरे संस्कार जाल्यार पोसकेंय आपलें जाता. तरी विचार करात." "ना... ना दोतोर. म्हाका पटना. तुमी हें करिनासतना जर सत्य सांगत तर हांव सोंपलों हें शेर्त." दोतोराक हून उदकाचो घोंट जालो. मरतल्याक वाचोवपाचो सोपूत घेतिल्ल्या दोतोरान रमेशाक वाचोवपाचो आनी रिपोट नॉर्मल अशें सांगपाचें थारायलें.

ऑफिसांतल्यान दोतोरागेर वतना रमेशान चेऱ्याचेर एक नॉर्मलपणाचो मुखवटो चडयलो. दोतोरान सांगिल्ले प्रमाण आयकून सीमा खूश जालें. "चल आमचे मदीं कांयच दोश ना. देवाच्या... सैमाच्या मनांत येतलें तेन्ना आमचें भुरगें जल्माक येतलें हें शेर्त." आशेन भरिल्लीं... खोशयेन फुलिल्लीं उतरां उलोवपी सीमाक पळोवन रमेशाक ताची काकूट जाल्यार

आपल्या नशिबाचो राग येतालो. बळयां... ओडून ताणून तो टेंशन फ्री दाखोवपाचो यत्न करतालो.

मानसीक रितीन पुराय काबार जाल्लो रमेश सीमाच्या लागसार चडसो वचना जालो. सदांच न्हिदपाच्या वेळार "पुरो जालां गो आज" "आंग मोडून येता" "कपल फोडटा" अशीं निमित्यां सांगून सीमा वटेन फाट करून न्हिंदचो. म्हयने गेले... वर्सां सरलीं... लग्नाचो धावो वाडदिस जालो. आतां सीमाकय भरपूर टेंशन जालें. बरोबरच्या सगल्यांगेर भुरगीं जालीं. आनी रमेशान तर सेकंड ओपिनियन घेवपाक सामकोच न्हयकार दिल्लो.

दर वर्सा सोसायटीचो एकेक वार्षिक सुवाळो जातालो. वनभोजन... वनमहोत्सव... पावसाळी पिकनीक.... दर्यादिगेर एक दीस. दर वर्सा हीं दोगांय वतालींच. हालींसराक रमेशान सार्वजनिक कार्यावळींत वचपाचें बंदच केल्लें. सीमाक ताणें केन्नाच आडावंक ना . अंदूय तें सगळ्या सुवाळ्यांक गेलें. पावसाळी तीन दिसांचो दांडेली टुराकूय तें एकलेंच गेलें सोसायटीच्या वांगडा. तरनाट्यांच्या उत्साहात तेंवूय चिंब चिंब भिजलें. दोनच म्हयन्यांनी सीमाक जाय जाय तो बदल जाणवलो. सकाळी उठले बरोबर गिरगिरप... उलटेची भावना जावप. फार्मसिंतल्यान हाडिल्ल्या टेस्टींग कीटान दोन गुलाबी लायनी दाखोवन ताचे सपन हातां मेरेन पावयलें. आयज ही गजाल कशी कळीत करू हे चिंतलें. सांजची ऑफिसांतल्यान घरा पावतगीरच रमेशाक ही बातमी सांगपाची आनी मागीर आई बाबांक, हे उमेदीन सीमा रमेशा वांगडा भायर सरलें.

सदचे भशेन सांजची घरा येतगीर च्या नाश्तो करून रमेश आपल्यो फायली घेवन बसलो. "रमेश अ गिफ्ट फॉर यू... दोळे धांप." रमेशान दोळे धांपले. आपली ओंजळ ताचेमुखार धरून सीमान सांगलें, "ओके उगड" ओंजळीतल्या प्रेग्नसी टेस्टींग किटाचेर दोन गुलाबी लायनी... नव्या जिवाच्या येवपाच्यो कुरु... अजापीत रमेशान सीमा कडेन पळयलें. "कितें!! कोणांचे कर्म हे?" रमेशाच्या ओठार आयिल्लो प्रस्न ताणें तसोच गिळळो. कारण उमेदीन भायर वचून आई बाबा कडेन उलोवपी सीमाचो आवाज ताणें आयकलो. "आई-बाबा देवान आमचें मागणें मानलें. तुमी आजी-आजोबा जातलीं." "हय गो? चल देवा मुखार साखर दवरुया."

मांयक-मांवाक सुनेक खंय दवरूं खंय नाका जालें. जाल्यार रमेशाच्या मनांत विश्वासघात जाल्ल्याचे भावनेन जल्म घेतलो. आपले म्हऱ्यांत खाटीर गाढ न्हिदिल्ल्या सीमा कडेन एकवेळ पळोवन ताणें बरोवंक कागद पेन घेतलें. उपरांत जो न्हिदलो तो उठलोच ना. सीमान ताका उठोवंक केल्यार तो लाकडा वरी घट्ट जाल्लो. ताचे म्हऱ्यांत एक लखोटो. भायल्यान "मोगाळ सीमाक" सीमान धडधडट्या काळजान लखोटो उगडलो. "प्रिय मोगाळ सीमा... दोतोराच्या रिपोर्टा प्रमाण हांव लो मोबीलिटीचो पेशंट... दादलो आसूनय केन्नाच बापूय न जावपाक शकपी नामर्द. तुज्या गुरवाचारान म्हजो विश्वासघात जालो. काळीज फुटलें. ह्या विश्वासघाताची ख्यास्त हांव जिवापाड मोग केल्ल्या तुका दिवंक शकना म्हणून हांवच भोगून म्हजो जीव सोपयतां. ही चीट कोणाक दाखय नाका. हार्टअॅटेक म्हणून जातले. कारण तुजें भुरगे म्हज्या दोळ्यांनी पळोवप हो जितेपणान मरणयातना भोगोवपी पराभव हांव भोगपाक शकचोना. म्हणून गुडबाय... सदां सुखी राव." सदांच तुजो.... रमेश.

मातृत्वा खातीर एकच धाडसी चांट मारून केल्ल्या मनाविरुद्धच्या एकाच फावटीच्या ह्या नियोगाची ख्यास्त सीमा भोगत उरलें.. आज... आतां ह्या खिणाक आजी म्हणून मिरयतना लेगीत...

संपर्क : 9404145337





दरेका घरांत आसूंक जाय
अशें पुस्तक

तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...

एक उगडास भोंवडी

जाग प्रकाशन, मोल फकत २५० /- रुपये

# शब्दकाव्य रंगकाव्यांत अणकारपी चित्रकार



मुकेश थळी



निरूपा नायक हें गोंयचें नामनेचें चित्रकार. पेंटिंग्स हें ताचें खाशेलपण. निरूपा सद्या रावता पणजे लागीं, ताळगांवां. ताच्या फ्लॅटाक तेंकून आनीक एक फ्लॅट आसा तो म्हळ्यार निरूपाची आर्ट गॅलरी वा अभ्यासिका वा चित्रांच्या रियाझाची सुवात. तातूंत तें चित्रां पितारपाक मग्न आसता. कलाकार आपल्याच विश्वांत रमिल्लो आसता अशें म्हणटात. निरूपा कितल्याशाच कलाविश्वांनी कायम रंगून गेल्लें आसता. आपले तंद्रेंत. ताका संगिताची आनी साहित्याचीय आवड. ह्या कलाविश्वांनी तें गुंग जाल्ल्यान ताचे सृजनशीलतेक आनीक एक खास आयाम आयला. सातत्यान एक सारकी निर्मिती करीत रावप वा चिंतन करीत रावप हो कलाकाराचो स्वधर्म आसता. पाखो कित्याक उड्या वा शेवणें आंदाळ्यो गुंदाळ्यो करीत कित्याक उडत रावता हाका कारण आसता? निरूपाच्या चित्ररियाझाचें वा निर्मितीक्षम चिंतन प्रक्रियेचेंय तशेंच.

निरूपाचें भुरगेपण सावय-वेरेंच्या अनंत देवळा लागीं गेलें. ताचो भाव तबलें वाजोवपी. निरूपा कांय वर्सां आदीं गायन करी. कांय वर्सां आदीं आकाशवाणी खातीर सुगम संगीत गाता आसतना निरूपाक गितांची आनी कवितांची संवकळ जाली. कविता ताका आवडूंक लागल्यो. कवितांतलीं प्रतिकां प्रतिमा, कवितांतले अंतप्रवाह, गेयता, कवितांतले सूचक अर्थ आनी संदेश, अल्पाक्षरांतल्यान खूब कितें तरी व्यक्त करपी गाड काव्य, ताच्या सृजनशील मनांत निर्मितीचे नवे आंकूर रूजोवपाक कारण थारले. निरूपाक कविता वाचपाचो छंद लागलो. करतां करतां अंतरंगांत खोल जिरिल्लें शब्दकाव्य चित्रकाव्यांत अणकारीत करपाची उर्मी ताका आयली. तातूंतल्यान नवकल्पना घेवन ताणें एक प्रयोग रचपाचें थारायलें. निरूपान आपणाक ज्यो कविता आवडल्यो आनी अंतर्मनांत खोल खोल शिजून तातूंतल्यान जें चित्रविश्व उदेलें ताचेर पेंटिंग्स तयार केलीं. ह्या पेंटिंग्सांचें प्रदर्शन हालींच पणजेंत जालें. ८ एप्रिलाक म्हान चित्रकार निरूपाचे गुरू, गोंय कला महाविद्यालयाचे आदले प्राचार्य आनी पद्मभूषण फाव जाल्ले चित्रकार लक्ष्मण पै हांचे हस्तुकीं पोएटीक ह्यूज ह्या पेंटिंग्स प्रदर्शनाचें उकतावण पणजे कला अकादमींत जालें. कवी आनी साहित्यीक उदय भेंब्रे हांचेंय त्या वेळार उलोवप जालें. ९ आनी १० एप्रिलाक जाल्ल्या ह्या पेंटिंग्स प्रदर्शनाक जायत्या कला रसिकांनी भेट दिली. निरूपाच्या चित्रांची अर्थअपुरबाय केली.

हें चित्र प्रदर्शन घडून येवपाक तीन वर्सां वयर गेलीं अशें निरूपान सांगलें. पूण मजगतींच्या काळांत तें मूर्त रूपांत साकार जावपाक आपणाक कवी संजीव वेरेंकार हांणी वेळोवेळ उत्तेजन दिलें अशेंय निरूपान नमळायेन सांगलें.

'निळें निळें सवणें एक, सकाळच्या गो पारा, भांगराचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा' ही बाकीबाब बोरकार हांची गाजिल्ली कविता. निळसाण, वास्तवता आनी तातूंतल्यान मेळपी स्फूर्त असो एक अर्थ ह्या काव्यांत आसा. निळो हो रंग निरूपाचे आवडीचो. हे कवितेक रंगरूप दितना निरूपान गाड निळसाण सोबीत ढंगान दाखयल्या. रमेश वेळुस्काराली सावुलगारी आगळ्यावेगळ्या रंगांत आनी ढंगांत दिसली. तातूंत कांय स्त्री रूपां दाखयल्यांत. मनोहरराय सरदेसाय, माधव बोरकार, शंकर रामाणी, संजीव वेरेंकार आनी हेर कवींच्या कवितांचीं रंगकाव्यां ह्या प्रदर्शनांतल्या पेंटिंग्सांत पळोपाक मेळ्ळीं.

कवितांचो अशे तरेचो रंगाकृतींत अणकार करपाचो प्रयोग, हाचे आदीं गोंयांत जाल्लो काय ना खबर ना. आयच्या उदेंत्या चित्रकारांनी संगीत आनी साहित्याचे आर्विल्ले प्रवाह जाणून घेवन आपले सृजनशील जाणिवेक धार कशी हाडची हाची एक अप्रत्यक्ष पांवड्यार देख निरूपान तांकां दिल्या.

सगळ्या कलांचो संबंद एकामेकां कडेन आसता. रंग आसूं, शब्द आसूं वा सूर ताल लय स्वर आसूं.... तांची जोडणी एकामेकां कडेन आसता. सैमांतले लयी कडेन आसता. घुंवपी गिरावळी, वारो आनी सैमांतल्या हेर चित्रांनी एक वेगळीच लय आसता. ताची पारखणी आनी समजणी जाली जाल्यार कलाकाराचे अभिव्यक्तीक एक वजन येता. निरूपान ह्या चित्र प्रदर्शना वरवीं ही देख दिल्या.

कांय वर्सां आदली गजाल. नामनेचे कन्नड कादंबरीकार एस. एल. भैरप्पा हांची मुलाखत पणजेंत एका इंग्लीश दिसाळ्या खातीर

घेतालों. उलयतां उलयतां तांणी सांगलें, आपले कादंबरीचो प्लॉट जेन्ना आड्खळून उरता, मुखार वचना सो दिसता तेन्ना कल्पनाशक्तीक त्या धुसर धुक्यांतल्यान भायर काडून उजवाडा वटेन वचपा खातीर आपूण वरांचीं वरां आपले आवडीचे शास्त्रीय संगीतांतले राग आयकतां. अखेरेक आपणाक एक वाट मेळ्टा आनी कथा मुखार धुकलपाक स्पश्टता मेळटा.

भैरप्पा हांणी आनीक एक गजाल सांगिल्ली ताची याद जाली. आपूण एकदां फ्रान्सांत एका म्युझियमांत आशिल्लों. थंय वरांचीं वरां म्युझियमांतल्यो वस्तू तेळ्ळ्यो. कितल्याशाच व्हड चित्रकारांच्यो चित्रकृती नियाळ्ळ्यो. तातूंतल्यान आपले सृजनशक्तीक एक नवी उर्मी आनी उर्बा मेळ्ळी.

लेखकान म्हळ्यार शब्दांच्या कलाकारान चित्रां आनी संगीत ह्या कलांचोय आस्वाद घेतकच ताचे अभिव्यक्तीक कितलो नेट मेळटा हें हाचे वयल्यान स्पश्ट जाता.

सगळ्या कलाकारांनी बाकीच्या कलांचो आस्वाद घेत आपली कला विकसीत करूंक जाय. हांगा याद जाता ती दीप्ती नवल हे अभिनेत्रीची. दीप्तीक साहित्याची बरी जाण आसा. ती कविता बरयता. ती पेंटिंग्स करता. ह्यो कला ती केळयत आसता. ताकाच लागून ज्या अवघ्याच आर्ट फिल्मांनी तिणें कामां केल्यांत त्या भुमिकांतली तिची जाण आनी अदाकारी हातूंतली खोलाय दिसता.

धा धा धा. ही तारीक. म्हळ्यार धा ऑक्टोबर दोन हजार धा. ह्या दिसा म्हजो अक्षरब्रह्म हो ललीत निबंद झेलो उजवाडाक आयिल्लो. त्या दिसा म्हज्या उलोवपांत हांवें म्हाका त्याच दिसांनी येवजल्ली एक कविता वाचिल्ली. उळउळपी कुकुडसो. ती कविता अपूर्व ह्या नेमाळ्यांत उपरांत उजवाडाक आयिल्ली. म्हजे कडेन मात तें नेमाळें वा कवितेचें मूळ हातबरप नाशिल्लें. निरूपान तें जपून दवरिल्लें. ताका ती कविता आवडिल्ली. ताच्या अंतरंगांत ती वेगळें रंगरूप घेताली. ते कवितेंतल्या प्रतिकाचेर निरूपान समर्पक अशें रंगचित्र पितारलें जें प्रदर्शनांत मांडिल्लें. ते कवितेचो इंग्लीश अणकार करपाचो आग्रो ताणें म्हाका केलो. अणकारूंक कठीण अशी ती कविता हांवें इंग्लीशींत अणकारली. ती त्या चित्रा लागीं लायिल्ली. बिगर- कोंकणी कला आनी साहित्य रसिकां मेरेन ती कविता पावली.

ती कविता हांगा दितां.

**उळउळपी कुकुडसो**

*त्या तेंपार*
*त्या रानांत*
*घोण्यांनी पावस पड्टालो.*
*पांखाटो फुलोवन मोर नाचतालो.*
*एकलोच!*
*स्वताच्या आनंदा खातीर.*
*पयर, तेच सुवातेर*
*सुक्या सड्यार*
*एक पांखी मोर नाचतालो,*



*मार्केटिंग केल्ल्या ताळयांच्या तालार.*
*काल त्या खातोणांत*
*एक कोंबलो*
*स्वताक मोर समजून*
*थेर कांड्टालो.*
*वायर ताळयांनी गडगड्टालो.*
*आयज त्या घुडांत*
*जगलोक ताळयो मारतात*
*कुकुलो कुकुडसो, स्वताक*
*मोर समजून तटतट्या!*
*पिसो म्हणत म्हूण*
*हांवूय ताळयांचो आवाज करतां.*
*खंयची धुंवरी लावन*
*उळउळपी कुकुडश्याचो*
*विलो लावचो हें येवजीत.*
*तांकां दिसता ताळयो मारतां.*
*हांव मात वे वे वे...*
*कपलार हात मारीत आसा.*
*तांकां दिसता, ताळयो मारतां!*

निरूपान कवितां वेल्यान पेंटिंग्स रचून साहित्य जग भर पावयलें. वेगळ्या रसिकां मेरेन, वेगळे पद्‌दतीन, वेगळ्या माध्यमांतल्यान पावयलें. ताणें भाशेची केल्ली ही आगळी वेगळी सेवा. चित्रकलेची ही सेवा. निरूपाक दाद दिवंकूच जाय.

निरूपाच्या रंगकाव्यांत एक गोड संदेश आसा. शांती (peace), शांतताय (peace) आनी थंडाय (serenity or tranquility) हांचो. तातूंत एक गोडवो आसा. आनंद घेवपाची याद करून ती कला विकसीत करीत रावपाचो. हो संदेश समजून घेवपाक जाय गुणग्राहकता, लक्तुबायेची रसिकता आनी निर्मळ काळीज. नितळ निवळ. गोड गोड. अमृता परस गोड. निळसाणेन भरिल्ल्या अनंत मळबा परस व्हड !

संपर्क: 9423056755

# गांधिजीचीं माकडां

कृ. म. सुखठणकार



'Generations to come will scarcely believe that such a one as this ever in flesh and blood walked upon this earth'. हें आय्नस्टाय्नान ज्या महापुरूशा बद्दल उद्‌गार काडले तो म्हणल्यार आमचे बापूजी alias Mahatma Ganthi. खंयच्याय व्यक्ती बद्दल भायल्या देशांतल्या मनशान कितेंय म्हणिल्लें आसत जाल्यार त्या मनशाची वळख करपाक सोंपें जाता अशें म्हजो अभ्यास सांगता. ते भायर बरयतल्याचें वाचनूय बरें आसा हेंय वाचप्यांक कळटा. म्हणुनूच सुरवेकूच गांधीजीची वळख करतना तांचे बद्दल आय्नस्टाय्नान कितें म्हणलां तें तुमकां सांगलें. आयचे पिळगेक गांधीजीची वळख करून दिवप सामकी गरजेची म्हणून ती करून दिली हाची तुमी नोंद घेवची. येद्या व्हडल्या मनशाची वळख करून दिवपाक म्हाका आय्नस्टाय्नाची मजत घेवची पडली हाची म्हाका खंत भोगता.

बापुजीक 'महात्मा' ही उपाधी तांचो चेरो नोटीर येवचे आदीं विसाव्या शेंकड्याचे सुरवेक रवीन्दनाथ ठाकूरान (जन गण मन फेम) दिल्ली हें कितल्या जाणांक खबर आसा? खूब जाणांक गांधीजीची वळख तांचो चेरो नोटीर येतकच जाली हें सत्य. 'तुज्या बॉल्सांत कितले गांधिजी आसात?' असलीं उतरां आयकत गांधीजी तळागाळां मेरेन पावलो हाचें समाधान जाले बगर रावना. उरिल्ली कसर हिरानीन 'लगे रहो मुन्नाभाई' हो सिनेमो काडून भरून काडली. आज गुगलार Gandhiji टायप केल्यार 'लगे रहो मुन्नाभाई' ह्या सिनेम्याची म्हायती मेळटा ही गांधीजीची खरी जोड. आमचे जाणटेले वालोच न्हेसताले हाका लागून गांधीजी आमकां सदांच घरचेच दिसले. म्हणुनूच आमी आमच्या आज्या-पणज्याक बापूच म्हणून पाचारताले जांवये. बापायन तर गांधी जयंती केन्नाच म्हणलेंना, ताणें सदांच बापू जयंती म्हणली पूण हाची नोंद खंयच जाली ना. तर, हांव म्हणटालों आमच्या देशांतल्या महापुरूशाची वळख करपाक आमकां भायल्या महापुरसांची मजत घेवची पड्टा. आमगेल्या धाकल्यान बापुजीचेर निबंध बरयलो तातूंत ताणें आपले तांकी प्रमाण बापूजीची वळख करून दिली.



'मोहनदास करमचंद गांधी म्हणजेच आमचे गांधीजी म्हणजेच आमचे बापूजी. तांची खरी वळख म्हणजे तांचो पंचो, वाटकुळें वक्ल आनी हातांतलो दांडो. हातांत दांडो नासतालो तेन्ना ते अस्तुरेचो आदार घेत प्रार्थनेक वताले. एक दीस अशेच प्रार्थनेक वतना तांणी आपल्या देशा खातीर हे राम म्हणून जीव सोडलो. मागीर तांचो चेरो आमकां नोटीर दिसलो आनी ते देशांत आनी जगभरांत फामाद जाले. जो मेरेन चलनांत (एक रुपयाची नोट सोडून) नोट उरतली तो मेरेन बापूजी आमच्या वांगडा उरतले.'

धाकल्याचे टिचरीक गांधीजीची ही वळख पटलीना आनी तिणें ताका शून्य गूण दिले. तिणें शून्य गूण दिले म्हणून गांधीजीक कमीपण येना हें तिका कळपाक जाय आशिल्लें. आसूं, बापूजीचे जयंती दिसा आमी 'ड्राय डे' मनयतात हें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. हे खातीर आमची वेवस्था आमकां आदल्या दिसा करची पड्टा. वाड्दीस, एनिवर्सरीची पार्टी बी त्या दिसा आसत जाल्यार खूब जाणांची गैरसोय जाता पूण हे बाबतींत कोणूच कांय करूंक शकना. अहिंसेचो मार्ग बापूजी खातीर प्रिय आशिल्लो. ते, ते खातीर उपोशणाक बसताले. उपोशणाक बसून तांणी खूब प्रस्न सुटावे केले. जंतर मंतर, आमचें आझाद मैदान ह्यो उपोशणाक बसपाच्यो सुवाती. गांधीजीन दाखयलेल्या मार्गान वचपी हांगा येवन उपोशणाक बसतात. कोणेंय लिम्का सरबत पिवपाचो तसोच आगरो केल्यार तें पिवन आपलो उपास सोड्यत. आमच्या बापूजीकूय चाचा बी सरबत दिवन उपास सोडूंक लायताले. फाटीं आमी (वयलो वाडो, भजनी मंडळ) कित्याक तरी लागून म्हांबऱ्याल्या फार्मासे सामकार उपोशणाक बशिल्ले. आतां उपोशणाक इतले फावटी बसप जालां की कित्याक बशिल्ले तें याद उरना. ते खातीर फाटीं हांवें दत्ताक उपोशणाक बसता तेन्ना आमी उपोशणाक कित्याक बसल्यात तें कळपा खातीर फाटल्यान बॅनर लाय म्हणून सांगिल्लें. तर, आमकां सावळ्यान आडसराचें उदक दिवन उपास सोडपाक लायिल्लो आनी

आमी उपास खोशयेन सोडलो. थोड्यांच्या आडसरांनी कातली नाशिल्ली म्हणून थंय मातसो वाद जालो. लोकशायेंत वाद जावप गरजेचें अशें म्हणत म्हांबऱ्यान थंय एक ल्हानशें भाशण केलें. सोड.

ह्या महात्म्याचीं तीन माकडां आशिल्लीं. तीं सामकीं फामाद जालीं. एकान तोंडार, दुसऱ्यान दोळ्यांर आनी तिसऱ्यान कानार हात दवरल्यात. तांचें मूळ सोदल्यार जपानांत सतराव्या शेकड्यांत मेळटा. Mizaru (दोळे धांपला तो) Kikazaru (कान धांपला तो) Iwazaru (तोंड धांपला तो) अशीं तांचीं नांवा. हीं माकडां जपानांतल्यान बापूजी म्हऱ्यांत कशीं पावलीं हो संशोधनाचो विशय. बापूजी कडेन चरखो, दांडे, घड्याळ आनी वस्त्र अशे बोंटार मेजपा इतले नग आशिल्ले. तांतूत ह्या माकडांचोय आसपाव जाता. ते गेले उपरांत तांची (माकडांची) वेवस्था खंय केल्या जाल्यार खबर ना. हीं माकडां Wise Monkeys म्हणून संवसार भर खबर आसा. बापूजींक ह्या माकडां पासून कितें अभिप्रेत आशिल्लें हें तांकां कोणें विचारिल्लें जाल्यार खबर ना. आमी तांकांय आमच्या मनांत आशिल्लो अर्थूच अभिप्रेत आशिल्लो आसूंक जाय अशें धरून चलतात. आमकां वायट संवंय ती! बापूजी विचारवंत आशिल्ल्या कारणान बाकिच्यां वरी ते विचार करतले अशें म्हाका तरी दिसना. सर्वसाधारण मनशां वरी विचार केल्यार ते विचारवंत कसले! सगलें जग गाय आनी म्हशीचें दूद पितालें तेन्ना बापूजी बोकडेचें दूद पिताले हें तुमकां खबर आसतलेंच. आमी तो मनीस आसतना आमच्या मनांतले प्रस्न केन्नाच तांकां विचारूंक नात. चाचान 'अजीब है यह गोवा के लोग' अशें कित्याक म्हणलें हें ते आसतना तांकां कोणेंच विचारलें ना. हरशीं गोंयकारांनी 'अजीब है ये काश्मीर का पंडीत' म्हणपाक जाय आशिल्लें आनी हें म्हणपाक कारणांय बी आशिल्लीं. बरडान म्हाका 'तुजे परस सिताराम केसरी परवडलो' अशें म्हणिल्लें. पूण हांवें, बाबा तुंवें अशें कित्याक म्हणलें, हें तोंड उगडून अजून विचारूंक ना. हांगाच आमचें चुकता. बापूजीच्या आशीकुशीक घेऽ म्हणून मनशां आशिल्लीं तरीय बापूजीक हीं माकडां कित्याक भावलीं हीय विचार करपा सारकी गजाल. हाचो अर्थ हीं माकडां ह्या मनशां परस कितलींशींच सुपिरियर!

बापूजीच्या एका माकडान (तीन माकडां मदल्या) तोंडार हात दवरला. ताचो अर्थ 'वायट उलोंवचें न्हय' असो आमी लायला. आतां कितें उलोवप वायट हें कोण थारायतलो? एकाचे नदरेन वायट तें दुसऱ्याक नातुराल जांवयेता. देखीक, 'आवशीचो घो, मांय**' हीं उतरां मालवण प्रदेशांत सदच्या वापरांतलीं. गोमंत भुमींत मात तीं सदच्या वापरांत सामकीं वर्ज्य. एकदां हांवें आईक 'म्हज्या आवशीचो घो खंय गे' अशें विचारलें तेन्ना तिणें 'अवचिन्न' म्हणून म्हजेर दुदया शीर शेवडून मारिल्ली. एके कडेन फांकिवंत नट मच्छींद्र कांबळी म्हणटा, 'आवशीचो घो, मांय***, ह्याचा अर्थ My dear असा आहे'. फुडें तो म्हणटा, बेळगांव आनी कोल्हापूर हांगा 'केलां तुका आनी झालां म्हाका' हें नाटक गाळयां शिवाय केलें तेन्ना लोकांनी बोवाळ केलो. मांय** तू भुतुर तोंडाक रंग फासल्यावर रंगमंचकावर येवचां नाय' हें वाक्य 'वस्त्रहरण'त तात्या सरपंचाच्या तोंडांत सोबता आनी प्रेक्षकांकूय तें मानवता. पूण फाल्यां 'नटसम्राट' नाटकांत अप्पान, 'हो हो हो मांय** तुमी तरुण आहात म्हणजे करता येतो फक्त तुम्हाला संभोग' अशें म्हणल्यार ताचेर ततयां आनी कुसक्या टमाटांचो शिंवर जातलो वा फाल्यां हेंच नटसम्राट नाटकांतलें वाक्य एका बापायन घरांत वापरलें जाल्यार ताका पिश्यांत काडटले. न्हावपाक गरम उदक काडलेना म्हणून बापायन जर पुताक 'हो हो हो तुमी तरुण आहात म्हणजे करता येतो फक्त संभोग तुम्हाला माणसाच्या माध्यांशी' अशें म्हणलें जाल्यार ताची रवानगी मानीकॉमांत जातली. बापूजीच्या माकडाचें कितें जातलें तें म्हाका खबर ना. हाचो अर्थ उतरां बरीं काय वायट हें सुवात थारायता. हाचेर बापूजीच्या माकडाचो घुस्पागोंदोळ जांवयेता. म्हाका दिसता बापूजीच्या माकडान तोंडार हात दवरून फकत वायट उलोवनाका हें सांगचे बदला खंय कितें उलोवचें हाचेर भर दिवचो.

फाटीं केन्ना न्ही तें हिका घेवन पणजे बाजारांत गेल्लों. बाजारांत कुंदा नावेलकार मेळ्ळे. तें म्हज्या बराबर बी.कॉमा'क (मुं. विद्यापीठ) आशिल्लें आनी ताणें पयल्याच धपक्याक बी.कॉम क्लियर केल्लें.

''हें कुंदा नावेलकार, आतां शिंगबाळ. म्हज्या वांगडा कॉलेजींत आशिल्लें. आशिल्लें तश्शें आसा. हांगा थंय चडानचड एक किलो बी वाडला आसतलो, Its ok" हांवें वळख करून दिली.

''ओगी राव रे बाबा! आतां एक कील वाडलो कितें आनी धा कील वाडले कितें आतां कोण पळयता आमकां?''- कुंदा.

''आमी आसा ते! हे दोळे दिल्यात ते कित्याक तर?'' हांवें म्हजें वक्ल पुसलें.

''राव गो, कुंदा नावेलकार म्हणजे सुमनाची भयण तूं? मयरा बराबर पळून गेलें तें?''- ही.

''आगो आसूं तें, या आमी''.- हांव.

''रावात आं, आतां खंय आसा तें?''

''दुबय''.- कुंदा.

''आमी म्हणटात गो, भारत माझा देश आहे, सारे भारतीय माझे बांधव आहेत पूण फुडें तें कुस्तारूच गो!''

''माझे ह्या देशावर प्रेम आहे. आसूं गो आतां!''- हांव.

''तुमी मातशे ओगी रावात पळोवया! तुका धूव आसा गो?''

''हय. एक धूव सुश्मीता''.

''नांव सुंदर दवरलां पूण ताचें जमयता सर नाकाशेवट जातलो तुका, बरोवन दवर! मावशेन नांवरूप केलें न्ही गो!''

''आगो, आसूं आतां फुडलें फुडें''.- हांव.

''तुमी ओगी रावात, जावे त्यांच्या वंशा तेव्हां कळे!''- ही पदर खोयत.

हे वटेन कुंदा 'येतां आं, हो रावतलो म्हाका' म्हणून कडसरलें.

हांगां बापूजीचें माकड बाय चांस आशिल्लें जाल्यार तें हिचो गळो दामतलें आशिल्लें हातूंत मात्तूय दुबाव ना. खंय कितें उलोवप हाचे परस खंय कितें उलोवचें न्हय हें कळप गरजेचें. ते परस बापूजीच्या माकडा वरी तोंडार हात दवरून ओगी रावप परवडलें. खूब फावटीं जेवतनाय तोंडार हात दवरप खूब गरजेचें. आमी तो तोंडार दवरचो सोडून पोटार दवरतात. मागीर 'लसणी कड्येक एक उणी शीत घेता?' अशी वासपूस जातकच, 'तूं इतलो आगरो करताच जाल्यार वाड इल्लें' अशें म्हणून आमी कितल्योश्योच उणयो भितर धुकलतात. One man's food is another man's poison' अशी एक म्हण आसा. खूब फावटीं आमी दुसरे कितें खातात तें पळोवन तोंडार हात दवरतात. तो कितें खाता तें ताचे खातीर डेलिकसी जांवयेता हें आमी विसरतात. शिकेरकर गुरूजीचो पूत म्हज्या वांगडा शिकतालो. एक दीस हांवें ताका 'आमच्या कडे आज दाळीचा रोस आनी ताल्ल्यांचें जितीं तेफळां घालून सुकें केले आहे. एक दिवशी तुझ्या आईला हा बेत करायला सांग' अशें सांगलें. ताणें बाबड्यान घरा वचून हांवें कितें सांगलां तें वेवस्थीत सांगलें आसतलें. दुसऱ्या दिसा हांव तागेर गेल्ले कडेन शिकेरकर गुरूजीन म्हाका 'ह्यास असले काय शिकवल्यास तोंडात इगळे ठेवीन' अशी शिटकावणी दिली. आमगेर सुक्या बांगड्याच्या किस्मुरींत इंगळे ठेवतात म्हणून हांवें ताका सांगलेंना. आतां हें सगळें बापूजीचें माकड आमकां शिकयना. आसूं.

बापूजीच्या दुसऱ्या माकडान वायट कांय आयकुनाका हें सांगपा खातीर कानाचेर हात दवरल्यात. आयच्या काळांत हें कठीण काम. कितलो वेळ म्हणून कानार हात दवरतलो! हांगा दर सेकंदाक हजारांनी उतरां कानार आदळत आसतात. केन्ना कानार केंस काडप, केन्ना कानार हात दवरप हें खबर आसप सामकें गरजेचें, चड करून लग्न जातकच. ना जाल्यार व्हडें संवसाररुपी सागरांत केन्ना तळाक लागत सांगूं नजऽ. खूब फावटीं बायल घोवाक भायर सरतना कमींत कमी शंबर नग हाडपाक सांगता. ते सगळे नग तांकां जाय आसतात अशें ना. शंबर नग सांगल्यारूय तांतुतले धा नग घरा येतले हें तांकां खबर आसता. हें म्हाका आदीं खबर नासलें. लग्न जाले उपरांत हांव हिचें उतरान उतर कान दिवन आयकतालों. एक उतर सुटलें जाल्यार हिका, 'कितें गो परत सांग' अशें पिश्यां वरी परत विचारतालों. पयल्याच दिसा पणजे वतना हिणें म्हाका 'पणजे वता न्ही म्हाका घरांत न्हेसपाक एक वायल, धवो घागरो, रेन, दोन निळ्यो, दोन तांबड्यो भिश्टिणी, पोव, हिमालया स्नो, आल्फिनेतिंचे दोन घोंस, न्हातना आंबाड्याक घालपाक जाळी, जाई काजळ, निळी लिप्स्टीक, आयब्रो पेन्सील, गुलाबी ब्लशर, वॅजलीन, एक पाकीट लिगां, काळो फोर. सद्या इतलें हाडा' सांगलें. हांवें हे सगले नग आल्फाबेटिकली एरेंज केले आनी सगळे हाडले, फकत लिगां हाडपाक विसरलों. घरा येतकच, 'हें सगलें हाडलें आनी जाय ती वस्त ज्यूस्त विसरले? कितें फायदो! हें सगलें हाडिनासतना फकत लिगां हाडिल्लीं जाल्यार वालोर आशिल्लो' अशें आयकुचें पडलें. हांव कोंब्यांतलें एक पेलो उदक पिवन फॅना खाला बसलों. आतां हांव 'तुंवें सांगिल्लें म्हाका? हांवें आयकलेंना दिसता, आनी हरशींय जाल्यार म्हजे यादीक हालीं पाडूच पडलां' असलीं वाक्यां हिच्या तोंडार मारपाक शिकलां. हें गिन्यान आपशींच दीस वतात तशें अणभवांतल्यान प्राप्त जाता. थोडे कानार पडून, सांगपाचो उद्धेश कळून लेगीत फांफडून उड्यतात तो वेगळो प्रकार. हें सगळ्यांक जमता अशें ना. बिगर गोंयकारांक हें काम बेसबरें जमता. शाळेंतल्यान म्हाका अभ्यासाचो जो त्रास सुरू जालो तो पदवी पदरांत पडऽ मेरेन सोंपलोना. आईन देवदेंवचार, प्रसाद पाकळी बी सगळें करून पळयलें पूण कांय निश्पन्न जालेंना. मागीर हांवेंय म्हज्या नशिबांत आसा तें भोगून सोंपोवया असो पॉजिटिव्ह स्टॅण्ड घेतलो आनी मनाची तयारी केली. म्हज्या नशिबांत जें बरयल्लें ताची कॉपी म्हणजे दत्ताचें नशीब. तोय म्हजे वरीच नशिबांत आसा तें भोगतालो. भगवंतान गीतेंत सांगलां तुमी तुमचें कर्म करात आनी बाकिचें आपल्याचेर सोंपयात. आमी भगवंतान सांगलां तशें हातपांय मारपाचें थारायले. फळाची आस केन्नाच धरली ना. जेमतेम पास जावपा खातीर जें कितें करचें पड्टा तें आमी करपाचें थारायलें. ताचोच एक भाग म्हणून पाटील गुरुजीगेर सांजेचो वचप आनी पाटील बाईक आमच्यान जमता तशी मजत करप अशें आमी थारायलें. तिका बांयचें उदक भरपाक खूब त्रास जातालो. तें आमी फळाची आस धरिनासतना भरताले. आमची ही निसुवार्थी सेवा सैतानाच्यान पळोवं नजो जाली आनी ताणें आमची मती भ्रश्ट केली. अशेच एक दीस उदक भरतना आमी पाटील बाई कडेन संवाद सादपाचो यत्न केलो. कारण संवादान कितेंय सांगू येता अशें तिच्याच घरकारान आमकां शिकयल्लें.

''बाई आता परिक्षा जवळ आल्या''.- दत्ता.

''ठाऊक आहे की. अभ्यास जोरात होऊ द्या''.- बाई भाकरी थापीत.

''अभ्यास करून कोणाचे केव्हां भलं झालय काय? पाटील गुरुजी जेवताना, झोपताना परिक्षेबद्दल बोलत असतील''.- दत्ता.

''मग काय दत्ता! पत्नी म्हणजे अर्धांगिनी. महादेवाला सुद्धा अर्दनारीनटेश्वर म्हटलं आहे बरं का! बाईना सगळं माहीत आहे. पाणी भरुन झाल्यावर आम्ही त्यांच्याशी विस्ताराने बोलू''.- हांवें भाशण एका वयल्या पांवड्यार व्हरपाचो यत्न कलो.

''सरपंचाची गुपितं सरपंच बाईना, पाटलांची गुपितं पाटील बाईना ठाऊक असणारच''.- दत्ता.

पाटील बाईन हूं का चूं केलेंना. बापूजीच्या माकडा वरीच तिणें कानार हात दवरले आसुंये. ती भाकरी थापीत रावली. भाकरी थापून जातकच, ''आता कांदा भाकरी खावा आनी जावा. उद्या पासून

अभ्यासाला लागा, परिक्षा तोंडावर आली नव्हं, पाण्याचं मी बघून घेईन'' अशें म्हणून तिणें जोंधळ्यां भाकरी तार्यात घालून आमच्या सामकार दवरली.

''नको नको आम्हाला पचत नाही हो जोंधळे. आम्ही सुयेने शीत जेवणारी माणसं. असुद्या पाटील गुरुजी आल्यावर त्याना द्या. आमची परिक्षा घ्यायची आहे त्याना, परिक्षा तोंडावर आली नव्हं''. अशें म्हणून आमी थंयच्यान कडसरले. पाटील बाईन आमचो फायदो घेवन आमकां फांफडून उडयले अशें हांव म्हणना. आमच्या नशिबांत आशिल्ले ते त्रास काडून आमी पास जाले ती दुसरी गजाल. आमी कानामनार घेनासतना मनशांक वाटेक लायतात. दिवाळे सारकी परब लागीं पावली की बायलांक कितें जाता खबर ना. 'आमकां उवाळणेक कितें' दुसऱ्याची पालखी कौल दिवन वता थंय आसा ही तकली खावपाक सुरू करता. 'म्हज्या लेंग्याची नाडी भितर गेल्या ती भायर काड पळोवया' हांव लेंगो हिच्या हातांत दिवन हिका वाटेक लायतां. ही म्हजी स्टायल जाली. तुमच्याय घरांत अशीच तरा आसत जाल्यार तुमी हो विशय दुसरे तरेन हाताळू येता. तुमकां लेंग्याची नाडी भितर घालपाची गरज ना. ह्या जगांत असले गंभीर प्रस्न आमच्या सामकार आसात हें घड्ये बापूजीच्या माकडाक खबर नासत. म्हणुनूच तें कानार हात दवरून फकत वायट आयकुनाकात म्हणून सांगता.

बापूजीच्या तिसऱ्या माकडान दोळ्यांर हात दवरल्यात. तें वयर सांगला ते प्रमाण वायट पळोवनाका अशें घड्ये सांगता आसत. आयज वायट तें फाल्यां वायट थारना. त्या काळांत चेतना सिनेम्याक A सिर्टिफिकेट मेळिल्लें. आज U सिर्टिफिकेट मेळटलें आशिल्लें. बापूजीचें माकड लेगीत दोळ्यां वयले हात काडून तो सिनेमो पळयतले आशिल्लें. सांगू येता? दोळ्यांर हात दवरून खंयच्या प्रस्नांचो सुटावो जाला. गांधारीन दोळ्यांर पट्टी बांदली, तिचे प्रस्न सुटले? मर्दीं हांव काळें गोगल लायतालों, तुमचे म्हायते खातीर. तें लावपा फाटल्यान तशेंच कारण आशिल्लें. दोळे आपल्या हातांत नासतात. तांचेर ताबो मेळोवप भोव कठीण काम. एकवेळ मनाचेर ताबो उरत पूण न्हय दोळ्यांचेर. हांवें दोळ्यांर ते माकडा वरी हात दवरून पळयले जाल्यार दोळे बोटांचे खांची मदल्यान पळोवपाक लागले. हाका लागून पळोवंक जाय तें दिसना जालें आनी वयल्यान दोळयांक त्रास! मागीर हांव सरळ पळोवंक लागलों. तर, आपले दोळे नाका थंय पावतकच ताचो आपल्याक आनी दुसऱ्याक भयंकर त्रास जाता. दुसऱ्याचो त्रास वाटोवपा खातीर हांव गोगल लावपाक लागलों इतलेंच आनीक कांय ना. आतां बाकिचेय गोगल लायतात, ताचे फाटल्यान हेंच कारण आसूंक जाय अशें ना. हांवें म्हजी केस सांगली. आमी अजण्टा एलोराची लेणी पळोवपाक मुद्दम वतात. थंय कोरिल्ली लेणी पळोवप काय दोळ्यांर माकडा वरी हात दवरप? जर ताचे कडेन कलाकृती म्हणून पळोवप जाल्यार हांवें ते कलाकृतीची प्रतीकृती कोणाच्याच हॉलांत वा शोकेशींत पळोवना. हांवें लग्न जातकच कांय तेंपान हिका अजण्टा एलोरा व्हरची म्हणून ब्रोचर्स हाडलीं आनी हिका दाखयलीं. 'शशीऽऽऽ हें पळोवपा खातीर इतलें पयस कित्याक वचपाक जाय' अशें म्हणून हिणें बापूजीच्या माकडा वरी दोळ्यांचेर हात दवरले. दुसऱ्या दिसा हिणें तीं ब्रोचरां हांड्याक घालीं. कामसूत्र (हिंदी आनी मराठी) तातूंत अश्लील चित्रां आसात देखून 'आमकां हाचो कितें उपेग?' म्हणत हांड्याक घालीं. येद्या व्हडल्या वात्सायेनान जें पळयलें तें आमच्यांनी पळोवं नज? आमी दोळ्यांर माकडा वरी हात दवरतात. हो आमचो कर्मभोग न्हय जाल्यार आनीक कितें!

माकड अनुकरण करपाक हुशार. हाचेर तुमी खूब काणयोय वाचल्यात आसतल्यो. आमी ह्या बापूजीच्या माकडांचें विचार करिनासतना दोळे धांपून अनुकरण करीत आयल्यात. आई म्हणटा जाय थंय आमी तोंड उगडीनात, नाका थंय आमचें लक्ष आनी गरजेचें आमच्या कानार पडना म्हणून आमचीं माकडां जाल्यांत. आई अशें कित्याक म्हणटा काय, सावळ्याक विचारचें पडलें.

संपर्क: 9850530756

---

## कृ. म. क परबीं

भौ. संपादक

'जाग' एप्रिल २०१९ चो अंक पावलो. भितरलें सगळें साहित्य वाचनीय जालां. रमेश लाडालो विवेक शानभाग हांचे कथेचो अणकार आवडलो. निरुपा नायक हांचें मुखपृष्ठ सामकें सोबीत!.

कृ.म. सुखठणकार हांचो विनोदी लेख हें 'जागा'चें एक आकर्शण. अंक हातांत पडिना फुडें सगळ्यांत पयलीं हांव वाचतां तो कृ.म चो विनोदी लेख. ह्या अंकातलो कृमचो 'आस्तिक- नास्तिक' हो लेख इतलो सोबीत जाला की म्हाका तरी दिसता कृ.म.न आयज मेरेन जे विनोदी लेख बरयल्यात तांतलो हो एक अप्रतीम लेख. कृ.म. २०११ सावन बरयता आनी आयज मेरेन तो सातत्यान बरयत आसा. तांकां जे विशय सुचतात तें पळयल्यार अजाप दिसता.

## पडसाद

आयचे कोंकणींतले तथाकथीत विनोदी लेखक एक विनोदी लेख बरोवपाक जे सर्कस करतात तेन्ना कृ.म.चे प्रतिभेची चड खर जाणविकाय जाता. 'गोवा हिन्दू असोसियेशनान' अंदू आपल्या शताब्दी वर्सा निमतान दवरिल्लो पयलो कोंकणी 'स. अ.ना. म्हांब्रो पुरस्कार' कृ.म.क फावो जालो हातूंत अजाप ना. कृ.म.न स. अ.ना म्हांब्रो हांचें दायज अशेंच चालू दवरचें आनी आमकां हांसयत हांसयत अंतर्मुख करपाक लावचें हें तांचे कडेन मागणें.

देव बरें करूं

तुमचो,

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

# देखदिणी समाज व्यवस्था : मडकय



'देखदिणी समाज व्यवस्था : मडकय' हें अशोकबाब कामत हांणी मडकय ह्या आपल्या जल्मगांवाचेर बरयिल्लें पुस्तक. हाचे आदीं अशे तरेचीं चार पुस्तकां हाचे पयलीं म्हज्या वाचनांत आयल्यांत. डॉ. ऑलिव्हिन्यु गोमिश हांचें आपल्या चांदर गांवचेर बरयिल्लें 'The Village Goa', विनायक खेडेकार हांणी शिरोडा गांवाचेर बरयिल्लें 'श्रीमान शिरोडें', दत्ता दामोदर नायक हांणी काणकोण गांवांचेर बरयिल्लें 'काणकोण एक सर्वांगीण अभ्यास' आनी डॉ. जयंती नायक हांणी आमोणें-केपें गांवाचेर बरयिल्लें 'आमोणे-एक लोकजीण' हीं तीं पुस्तकां.



हातूंत 'देखदिणी समाज व्यवस्था: मडकय' हें अशोकबाब कामत हांचें पुस्तक आगळें आसा. कित्याक तर आयच्या आधुनीक काळार चडावत म्हणचे परस चडशे सगळेच गांव आपलें सत्य आनी मुखामळ शेणोवन बसल्यात. अश्या वेळार जे गांव आपलें रूप ह्या आधुनीक काळार लेगीत सांबाळून आसात तांचें डोक्युमेंटेशन जावप गरजेचें. हांतलोच एक गांव म्हळ्यार मडकय हो गांव.

आदल्या काळार चडशे गांव हे त्या त्या गांवच्या मुखेल देवळा सरभोंवतणी वशिल्ले. देवळाक जाय त्यो गरजेच्यो सगळ्यो सेवा दिवपी लोकांचो ह्या वाठारांत राबितो आसलो. आनी ह्या लोकांक तांचे सेवे खातीर त्या गांवच्या ग्रामसंस्थे कडल्यान थारावीक येणावळ दिवपी शेत जमनीचो कुडको वा कुळागराचो एक वांटो दिताले. आनी मडकय गांवय ताका आडवाद ना.

हें पुस्तक मडकयची ग्रामदेवता श्री नवदुर्गा हिका केंद्र स्थानांत दवरून बरयलां. श्री नवदुर्गा देवीची स्थापना, देवळांतल्यो रिती आनी वर्सावळीच्यो कार्यावळी आदींचेर विस्तारान बरयलां. आनी हें बरयतनाच लेखकान मडकय गांवांतल्या समाजाचेंय रूप चितारलां. ह्या गांवांतल्या मुखेल हिंदू समाजाचे घटक, त्या समाजांतल्यो जाती, जातीं-जातीं मदले सबंद, देवळा कडलें तांचें नातें ह्या विशयाचेर तांणी अभ्यास करून मतां मांडल्यांत.

ह्या पुस्तकांत मडकय गांव, त्या गांवाचीं खाशेलेपणां, गांव कसो वसलो ताची काणी. गांवांत राबितो आशिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या घटकांची वळख हें सगळें ह्या पुस्तकांत आसा. आयकल्ली म्हायती आनी इतिहास हाचो सांगोड ही म्हायती मेळोवपाक जाला. आनी कोणय विद्यार्थी जर ह्या गांवचेर संशोधन करपाक सोदीत तर ताका ह्या म्हायतीचो खूब लाब जातलो हातूंत दुबाव ना.

ह्या पुस्तकांत वट्ट २८ लेख आसात. हांतूंतले चडावत लेख हे श्री नवदुर्गा देवीच्या देवळा संबंदी आसात. आनी ही म्हायती जाणा जावपाक सोदतल्यांक आनी भावीकांक तिचो खूब उपेग जातलो. बाकीच्या लेखांनी मडकय गांवा संबंदी म्हत्वाची म्हायती आसपावल्या. तेच बराबर 'मडकय तेन्ना आनी आतां' ह्या एक म्हत्वाच्या लेखाचो ह्या पुस्तकांत आसपाव आसा.

ह्या पुस्तकांत लेखकान उक्तायिल्लीं सगळींच मतां वा निश्कर्श कांय कडेन पटपासारके नात तरी खूब अभ्यास करून आनी म्हायती जमोवन हें पुस्तक बरयलां देखून अशोकबाब हांचें अभिनंदन.

ह्या पुस्तकाचें हातबरप खूब काळ मेरेन पडून आशिल्लें ताका पुस्तक रुपी उजवाड दाखोवन अश्या पुस्तकांनी रुची आसपी म्हजे सारक्या वाचकांची सोय केल्ले बद्दल संजना प्रकाशनाचे, दिनेशबाब मणेरकार हांचे उपकार.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**देखदिणी समाज व्यवस्था : मडकय**

लेखक: अशोक कामत

प्रकाशक : संजना पब्लिकेशन्स

पानां: २६०,

मोल: ३०० रुपया

# कविता

## तीन कविता

**माधव बोरकार**

### पर्जळाचो गांव

सदळ तारो कर घट्ट खुंट्यो पिळून
भरता काळीज रितें जिणें प्राणांत फळून
घालता मनाचेर कोण सुरांची सावळी
आंगणात रूजता आनी उजवाडाची पावली.

पालवलों हांव तुज्यांत दोळे मिटून
पर्जळाचो गांव गेलो दिठयेक भेटून...

### वळीर वळी

वळीर वळी
रेखता वेळ दर्याची
नक्षी फेणेर फुलांची...

उदेल्यो कुरवो यादींच्यो
काळजाचे रेवेंचेर
नखेत्रांच्या नांवांचेर...

### घर

विठ्ठल रुक्मिणी
मनाचे विटेर
आतां म्हजें घर
उल्याचे वाटेर

संपर्क : 9423821448

## दोन कविता

**परेश नरेंद्र कामत**

### कारंजें

सुर्याचीं किर्णां
उसळ्ळीं कारंज्या वरी
मळबभर

हळडुवी फुटली
पालय वोताची
मळबाक
लखलखलीं झाडां
पानां पानांत शिंरगतात
जशीं
सहस्त्र सुर्य किर्णांचीं
अब्दागिरां...

### दोन दोंगुल्ल्यां मर्दी

तांबडीगुंज उमेद
गोठेल्ली
ओंठार

निलांबरी उर्बा
ल्हारेल्ली
दोळ्यांत

तेन्ना मन म्हजें
पिकून जांबळें
उमेदी फाटल्यान
एकवटलेंलें गच्च
दोन दोंगुल्ल्यां मर्दी तुज्या...

संपर्क: 9422640210

## अस्तुरे तुज्या विणें

**अनिकेत अ. गांवकार**

पावलां माप ओमतीतांच सपनां
नवीं फुलयलीं
पोन्नीं नवीं सगळीं नातीं
आपुलकेन गांठयलीं
तुजे विणें नात्यांची खीर कशी रांदू गे
अस्तुरे तुजे विणें जीण कशी सारूं गे?

कुपांतल्या धारेवरी जीण
तुवेंच रूजयली
कांटे खुंटे पयस सारीत शिरंतरां घडयलीं
तुजे विणें जिणेचो फुलवू कसो चंवर गे
अस्तुरे तुजे विणें जीण कशी सारूं गे?

संस्कारांच्या वण्टींचें घर तुवेंच वसयलें
वायट बरे खीण आपल्या
पदरा आड लिपयले
संस्कारांच्या गूनयांदीक
पदर खंयचो हाडूं गे
अस्तुरे तुजे विणें जीण कशी सारूं गे?

उमेदीचे तेंगशे पर्यंत सण सगळे सजयले
फुलां वांगडा कांट्याक लेगीत
मायेन तुज्या भिजयले
सांग आतां अर्थि तुजी कशी
हांव सजवूं गे
अस्तुरे तुजे विणें जीण कशी सारूं गे?

संपर्क : 9637889619



# सांचिल्ल्या पाणयाच्यो कविता

**उषा ज. कामत**

१

पाण्यावेल्यो मनमेकळ्यो
रेगो चपक्यांत
धरून दिसतात

वारो लेगीत नकसूद
रांगोळ्यो चितारता
तुज्या सर्वांगार
कितलोसोच वेळ
एक नादांत

आनी तूं...

विसरून भान
अळंग झेलयता
जिणेंतलें रितेंपण
संचिताचो घेवन भार

२

उदकांत
धुंद शितळ
उर वाऱ्याचो
जळिमळी सांचिल्लें
उदका कोंड
मात
फुलतलें फुलांचे
आरोर आपल्यो
नुरा केळयता
शेळे आंगार

३

एका खिणाक
नदर स्थिरावता
वारो काडटा ती
चाळ पळोवन

गात्रांगात्रां शिरशिरतात
ध्यानमग्न तुमचो
सरून सरना
असो

मुक्त-विमुक्त
संयोग पळोवन...!!

४

कांय जाणां खातीर
तूं रेब्याचें कोंड

रैमांतल्या
जीव-जिवावळीचें
वेंत भर पोट भरपी
म्हजे खातीर
मात तूं

अटंग्या रानांतले
प्रारब्ध..!

५

उदकाक ना रंग
तुजे आंगार मात
सजीव अशे
वेगळे वेगळे रंग
शांत, सुप्त
मुखदर्शन ना तरी
निर्जन रानांत...

तुज्या कांटार ध्वनी
वेंगेंत परमळ
अख्खे रातीक
जिवावळीचें जागरण

तूं तपस्वी
सगळ्यांच्या
आनंद प्रवाहाचें
साधन..!

६

मुंगरत वचपी
पाणयांतली झोंपां
सोंबयतात
तुजी काया

तूं आसा म्हणून
ताचें अस्तित्व
अशें न्हय

तुमी दोगांय
एकमेकाक
अनुरूप

संपर्क: 7770059568

